


# जादुचो कोंबो

# जादुचो कोंबो

(स नाटकुली)

डॉ. मनोहरराय सरदेसाय



# जादुचो कोंबो
## (स नाटकुलीं)

प्रकाशन क्र : 114
1995



दुसरी आवृत्ती, 1996

**चित्रकार :**
विनायक तारी

**लेखन :**
© डॉ. मनोहरराय सरदेसाय
ए-3, वनराय
आवे तिओफील ब्राग मार्ग, ताळगांव- गोंय

**प्रकाशक :**
राजहंस वितरण
१-मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी 403 001

**मुद्रक :**
राजहंस ऑफसेट, पणजी.

मोल रु. 25/-

**ISBN 81-85854-13-0**

# जादुचो कोंबो

**सवंगां :**

| | | |
|---|---|---|
| रांदपी | वाडपी | वावराडी |
| सान्न मारपी | दंवडेकार | राजकन्या |
| राणी | राजा | दासी |
| मडवळ | प्रधान | पयलो शिपायक |
| दुसरो शिपायक | तिसरो शिपायक | चवथो शिपायक |
| पांचवो शिपायक | सवो शिपायक | |

(राजवाड्याच्या मुखावयलो रस्तो. किडकिडीत चोंचरो रांदपी धांवत धांवत येता. गुलगुलीत पोटारो वाडपी दोळे चोळीत येता. मदींच एकामेकांक आपटतात.)

**रांदपी** : कि-कि-किदें रे! असो म-मदींच किदें चलता रे! पो-पो-पोटा-धोल घेवन. चल कु-कु-शीक पोटाऱ्या.

**वाडपी** : (दोळे चोळीत आसा) आरे तूं रे तो सुको-बांगडो. हांव मदीं चलतां काय, तूं मदींच धांवता तो, फाटल्यान वाग लागिल्लेभाशेन! अशें जालां किदें रे? (दोळे चोळीत आसा)

**रांदपी** : प-प-पयलीं दोळे उगड सारके. मा-मा-गीर आयक. (कानांत फुतफुतता)

**वाडपी** : कि-कि-किदें म्हळें?

**रांदपी** : आ-आयकूंक येना रे? का-क्रानांत भिंडेल घाल थोडें.

**वाडपी** : आरे, व्हडान सांग रे. तोंडाक कित्याक गुड्डो मारला?

**रांदपी** : रा-रा-राजकन्येचो चंद्रहार को-को-णें फारायलो खंय.

**वाडपी** : किदें सांगता रे! राजकन्येचो चंद्रहार! आरे आतां आनीक हांगा रावप आसा? म्हज्या बापाय! आमचेर ओगीच बगलांट येत रे बाबा. चला आमी नळी काडुया. भटो-भटो आपले वाटो.

रांदपी : का-का-डुया न-न-ळी (धांवता. फाटल्यान वाडपी उरता.)

वाडपी : (पोटा-धोल सांवरीत धांवता) आरे राव मरे, हांवूंय येतां. आरे राव (भायर वेता).

रांदपी : यो तूं सवकास धोलया. चड जेवतकच अशेंच जाता.

(दावेकडल्यान वावराडी येता. उजवेकडल्यान सान्न मारपी येता. वावराडेक सान्न लागता).

वावराडी : शी बाये! नाका थंय, नाका तेन्ना सान्न मारप हिचें. सक्काळफुडें सान्न मारूक जायना काय म्हणटां हांव! सर कुशीक. सगली वाट आडायता पळे तूं. सान्न मारता जाल्यार कडेक सान्न मारूक जायना?

सान्न मारपी : आनी मर्दीं कोयर केला तो कोण काडटलो? राजाक मेळूंक येतात ते अशी वाटेर अळशीक करतात. वचत थंय पच्च करून थुकतात. थू तांचे अकलेक. (थुकता) पूण तुका इतली ताकतीक कित्याक गो! घडलां तरी किदें?

वावराडी : किदें घडलां म्हणटा! आगो तूं खंयच्या गांवांत आसा? आगो तुका खबर ना?

सान्न मारपी : म्हाका बाये खबर ना. आमकां कित्याक त्यो ओगीच लोकांच्यो जायण्यो? हांव बरें, म्हजी सान्न बरी. आमकां बाये जगावयले धवळें नाका. म्हणटकच घडलां तरी किदें गो? राजवाड्याक उजो बिजो लागूंक ना मूं?

वावराडी : हय, उजोच लागला उजो. आगो, राजकन्येची सरपळी खंय कोणें सुतलायली. भांगराची सरपळी. सतम्याचें भांगर खंय. ते सरपळेक खंय हिऱ्याचीं थिकां आसलीं. खऱ्या हिऱ्याचीं. आवयस्स अशीं चकचकतालीं म्हणून सांगूं! अशीं चकचकतालीं!

सान्न मारपी : कोणें व्हेल्या जातली काय?

वावराडी : कोण सांगतलो बाये! आतां लोकांचेर काळ आयला काळ. तुका कोयरांत बी मेळूंक ना मूं?

सान्न मारपी : रूं ना पूं काडटा मगो तूं! म्हाका सरपळी मेळ्ळ्या? म्हणटल्याचे दोळे फुटूं, हातूच धरूं, कमरूच मोडूं! म्हाका कोयरांत मेळ्ळ्या खंय!

**वावराडी** : हा ऽ हां. पळे सांगतल्याचें तोंड तरी. आगो, आगो तुका लावन कित्याक घेता तूं? हांवें तुवें चोरल्या म्हणून म्हळां गो? ओगीच तूं ताणशेवं नाका. तुज्या बऱ्याक म्हळें हांवें. राजकन्येन आकांत केला. रडून तिचे दोळे सुजून आयल्यात. राजान सगलेकडेन शिपायक धाडल्यात चोराक धरपाक. तुका सान्न मारतनां पळोवन तांकां तुजो दुबाव मारतलो. हय गो हय! ते पळे येतात शिपायक. आमकां धरीत वोगीच.

**सान्न मारपी** : हांव कित्याक वचूं! बलाय म्हजी! हांवें भोव चोरल्या सरपळी!

**वावराडी** : तूं राव बाये तुजी सान्न मारीत. म्हाका किदें? हांव बाये वेतां. (वेता)

(पयलो शिपायक आनी दुसरो शिपायक येतात).

**पयलो शिपायक** : कोण गो तूं? हांगा किदें करता?

**सान्न मारपी** : हांव किदें करता तें दिसना तुका? सान्न मारतां हांव. सर कुशीक.

**पयलो शिपायक** : अर्र तूं! म्हाका जाप दिता! जिबूच कातरतलों! हांव राजाचो शिपायक. कळ्ळें? म्हाका सांग गो, तुका सान्न मारतना चंद्रहार बी मेळ्ळा?

**सान्न मारपी** : म्हाका खबर ना तुजो चंद्रहार काय इंद्रहार तो.

**पयलो शिपायक** : म्हजीं भगलां मारता? राव, तुका व्हडलें गोंय दाखयतां. चल म्हजेबरोबर, बंदखणींत घालतां तुका. आनी म्हाका सांग गो, तें पळून गेलें तें कोण गो!

**सान्न मारपी** : म्हाका खबर ना. तूंच वचून पळे.

**पयलो शिपायक** : (दुसऱ्या शिपायक्राक) आरे हाका धरून व्हर बंदखणींत. हांव वेतां ताका धरूंक (धांवत वेता)

**दुसरो शिपायक** : (सान्न मारतलेक) चल गो. चल बंदखणींत.

**सान्न मारपी** : म्हाका कित्याक बंदखणींत? तूंच वच बसून थंय.

| | | |
|---|---|---|
| **दुसरो शिपायक** | : | अर्र तूं! चड शाणेपणां नाकात तुजीं! हो पळेला दांडो? |
| **सान्न मारपी** | : | आनी ही म्हजी सान्न पळेल्या मूं? (पळत वेता.) |
| **दुसरो शिपायक** | : | किदें म्हळें तुवें! आं! किदें म्हळें तुवें! (ताजेफाटल्यान धांवता.) |

(दंवडेकार येता. ताज्या गळ्यांत धोलकें आसा.)

**दंवडेकार** : आयकात रे आयकात. (ढूम, ढूम, ढूम) चंद्रपूरच्या कृष्णराय म्हाराजांचो हुकूम. राजकुमारी रंजना हिज्या गळ्यांतलो चंद्रहार चोरयेक गेला. राजवाडो सोडून कोणेंच वचूंक जायना. (ढूम, ढूम, ढूम) सगल्यांनी आसा थंयच रावचें. चोरान रोखड्यारोखडो चंद्रहार हाडून दिल्यार राजा ताका माफी करतलो. ना जाल्यार जबर ख्यास्त जातली. (ढूम! ढूम! ढूम!)

(राजकन्या रडत रडत येता. तिजेवांगडा राणी, दासी)

**राजकन्या** : म्हगेलो चंद्रहार! ऊं! ऊं! ऊं! म्हगेलो काय बरेलो चंद्रहार! ऊं! ऊं! ऊं! म्हाका कितलो म्हणून आवडटालो तो! कितलो लखलखीत, कितलो चकचकीत! हांव तो गळ्यांत घालून जनेलाकडेन बसतालीं. ऊं! ऊं! ऊं! आनी येतोवेतो लोक म्हजेचकडेन पळेतालो! आवयगे! आतां हांव जनेलाकडेन कशें बसूं गे! ऊं! ऊं! ऊं! म्हजेकडेन आतां कोण पळेतलो गे!

**राणी** : बाय म्हजें तें! अशें रडूं नाका गो बाय. तुजे दोळे रडून रडून सुजून गेल्यात पळे. पूस तुजीं दुकां. बाय म्हजें तें!

**राजकन्या** : म्हाका म्हजो चंद्रहार हाडून दी तर. म्हजो चंद्रहार – आं, आं, आं!

**राणी** : हांकां सांगून तुका नवो चंद्रहार हाडून दितां. आतां ओगी राव पळोवया.

**राजकन्या** : म्हाका नाका नवो चंद्रहार. म्हाका तोच चंद्रहार जाय. म्हाका तोच चंद्रहार जाय गे... ऊं! ऊं! ऊं!

**दासी** : ओगी राजकन्ये, ओगी. तुका रडप सोबना. येदी व्हडली तूं राजकन्या आनी रडटा? लोक किदें म्हणटले तुका?

राजकन्या : रडूं नाका जाल्यार किदें करूं? म्हजो चंद्रहार हाडून दी.

दासी : हांव खंयचो हाडून दिवं? हांवें व्हेला तुजो चंद्रहार?

राजा : (रागान भितर येता) तुवें व्हरूंक ना चंद्रहार! म्हणटकच कोणें व्हेला तर तो! सांग कोणें व्हेला?

दासी : म्हाका खबर ना म्हाराज.

राजा : कोणाक खबर आसा तर?

दासी : तेंच म्हाका खबर ना म्हाराज.

राजा : तुका कांयच खबर ना तर! बरें. तूं राजकन्येची दासी. तुजी नदर राजकन्येचेर आसूंक जाय तितलीच तिजे वस्तींचेर. समजली?

दासी : हय म्हाराज.

राजा : म्हणटकच, तिज्या चंद्रहाराचेर तुवें नदर दवरली ना कित्याक?

दासी : हांव राजकन्येबरोबर आसलीं.

राजा : आनी चंद्रहाराबरोबर कोण आसली?

दासी : म्हाका खबर ना म्हाराज.

राजा : खरें सांग, चंद्रहाराबरोबर कोण आसली?

दासी : ना सायबा, म्हाका खबर ना. खरेंच खबर ना. कोंगो खाता रोव आनी बावड्या हेंवाळ्याक मार!

राजा : खबर ना, खबर ना. इतलेंच तुका खबर? कोण आसा रे थंय?

(तिसरो शिपायक येता.)

शिपायक : किदें हुकूम म्हाराज?

राजा : हे दासीक काळखाकुडींत व्हरून उडय. चल.

दासी : देवा रे! म्हाका कित्याक काळखाकुडींत म्हाराज? तुमकां पांय पडटां हांव. तुमचे मुखार नाक घांसतां. म्हाका काळखाकुडींत नाका उडोवं.

राजा : आतां पळे कशी गुळी जाली ती! चल व्हर तिका काळखाकुडींत. ती खरें सांगमेरेन तिका थंयच दवर.

दासी : (वेतां वेतां) म्हाराज ना. हांवें खरेंच चोरूंक ना! खरेंच ना! म्हाराज! म्हाराज!

(शिपायक तिका धरून व्हरता.)

राजा : चोरूक ना खंय. म्हणटकच कोणें चोरला चंद्रहार? म्हाका वळखनात! सगल्यांक बंदखणींत घालतलों. बाय रंजना, अशें यो. म्हाका सांग पळोवया. चंद्रहार ना जालो तेन्ना तुजे कुडींत कोण आशिल्लो?

राजकन्या : म्हाका खबर ना.

राजा : तुजे कुडींत कोण आशिल्लो तें तुका खबर ना? तूं खंय आशिल्लें तर?

राजकन्या : हांव बागेंत गेल्लें. गुलाब फुलला काय म्हणून पळोवपाक. परतें आयलें तेन्ना चंद्रहार ना.

राजा : चंद्रहार खंय दवरिल्लो तुवें?

राजकन्या : उश्यापोंदा!

राजा : आनी दासी खंय आशिल्ली?

राजकन्या : दासी! दासी! खंय आशिल्ली काय ती? म्हाका खबर ना.

राजा : दासी खंय आशिल्ली तुका खबर ना! (राणयेक) म्हाराणी, पळे तुजे कन्येक कांयच खबर ना. चंद्रहाराचें मोलूय तिका खबर ना. वीस तोळे भांगर आसा भितर आनी हिऱ्यांचे पन्नास खडे. धा लाख रुपयांचो चंद्रहार ता. धा लाख!

राजकन्या : म्हजो चंद्रहार! म्हजो चंद्रहार! ऊं! ऊं! ऊं!

राणी : बाय रडूं नाका! रडूं नाका बाय!

राजा : रडूं नाका बाय! तुजो चंद्रहार मेळटलो. चोरतल्याचे हांव हातूच कातरतलों. ताजे दोळेच फोडटलों.

राजकन्या : ताजे हात कातरूं नाका! ताजे दोळे फोडूं नाका. म्हाका आनिकूच रडूंक येतलें.

राजा : बरें तर बाय. कातरिना ताजे हात, फोडिना ताजे दोळे.

(चवथो शिपायक, पांचवो शिपायक रांदप्याक घेवन येतात. खांदार वालो, हातांत दाय.)

पयलो शिपायक : म्हाराज, हो पळे पळून वचूंक सोदतालो.

रांदपी : आं! आं! आं! म्हाका कित्याक धरून हाडला? हांवें किदें केलां?

राजा : सांग तुवें किदें केलां?

रांदपी : हांव न-नकळों म्हा-म्हा-म्हाराज.

राजा : म्हणटकच हांव जाणां काय किदें? तूं खंय वेतालो रे पळून?

रांदपी : हे शिपायक म्हजे फा-फा-टल्यान येताले म्हणून हांव प-प-पळूंक लागलों.

राजा : (शिपायकाक) तुमी ताजे फाटल्यान कित्याक लागले रे!

चवथो शिपायक : म्हाराज, तो पळटालो म्हणून आमी ताजे फाटल्यान धांवले. तो पळून पळून बागेंत लिपून बसलो. पळे कसो थरथरता तो.

राजा : कित्याक थरथरता रे! तुवेंच चोरला मरे तो चंद्रहार? सांग रे.

रांदपी : ना सायबा, हांवें चो-चोरूक ना. खरेंच चोरूक ना. बा-बायल भुरग्यांच्यान तर.

राजा : तुका बायल आसा मरे?

रांदपी : हय सायबा.

राजा : तिणेंच सांगिल्लें मरे तुका हार चोरूक?

रांदपी : ना, ना सायबा. बायलेन सांगूं ना सायबा. दोन दोळ्यांच्यान तर.

राजा : म्हणटकच, तुवेंच चोरला मरे?

रांदपी : ना सायबा. हांवें चंद्रहार पळोवंक लेगीत ना सायबा.

राजा : बरे कड्डे घालेबगर हें कूळ जाग्यार येवचें ना. शिपायक, व्हर हाका आनी घाल बंदखणींत आनी मार धपके.

रांदपी : सायबा म्हा-म्हाका कि-कित्याक बंदखणींत? देवाच्यान तर, तुज्यान तर, हांवें हार चोरूक ना. तुज्यान तर.

(शिपायक रांदप्याक व्हरता. शिपायक मडवळाक घेवन येता. मडवळ बरो न्हेसला. माथ्याक फेटो, खाकेंत मुस्तायकेची पोटली).

सवो शिपायक : हो पळे मडवळ. बागेंत हांगा थंय बोवाळटालो.

राजा : असो यो रे. बागेंत किदें करतालो?

मडवळ : कांय ना सायबा.

राजा : कांय ना जाल्यार बागेंत कित्याक गेल्लो?

मडवळ : हांवें मुस्तायकी हाडिल्ली ती दिवंक आयिल्लों.

राजा : म्हणटकच दिवची आसली मुस्तायकी. असो हांगा थंय कित्याक बोवाळटा, कित्याक लुडबुडटा? सांग बेगीन.

राणी : आयकलां मरे, राजा किदें विचारता तें? सांग बेगीन.

मडवळ : किदें सांगूं?

राणी : सांग मरे चंद्रहार काडला म्हणून. सांग बेगीन. आमचो बेश्टो वेळ वगडावं नाका.

मडवळ : चंद्रहार? कसलो चंद्रहार?

राणी : तुज्यो भिकारभासो म्हाका नाकात. आरे इतलो बोवाळ चलला आनी तूं कसलो चंद्रहार काय म्हणटा?

मडवळ : म्हाका कांयच खबर ना सायबा! खरेंच सांगतां.

प्रधान : खबर ना, खबर ना! अर्र तूं! पिशेपणां पांगुरता? राजकन्येचो चंद्रहार शेणलो म्हणून शेंबडो पोर लेगीत जाणा. शकाळीं दंवडी पेटयल्ली ती तुवें आयकली ना?

मडवळ : ना सायबा, म्हाका सारकें आयकूंक येना.

प्रधान : आयकूंक येना! आयकूंक येना! तुजे कान बरे लांब करूंक जाय.

मडवळ : नाका सायबा, नाका सायबा.

राजा : शिपायक, व्हर ह्या मडवळाक आनी घाल ताका बंदखणींत.

(शिपायक मडवळाक धरून व्हरता).

शिपायक : (वावराडेक आनी सान्न मारतलेक घेवन येता) म्हाराज हीं पळेयात पळून वेतालीं.

राजा : येयात गो अशीं. खरें सांगात.

वावराडी : ना सायबा, आमी सरपळी पळोवंक ना. खरेंच ना.

राणी : सरपळी खंय! येदो व्हडलो चंद्रहार आनी सरपळी खंय!

वावराडी : ना हांवें हार पळोवंक ना!

राणी : हार न्हय, चंद्रहार.

वावराडी : चंद्रहार, सायबा हांवें पळोवंक ना.

राजा : आनी तुवें गो? तुका आवडलो मगो तो चंद्रहार?

सान्न मारपी : देवाच्यान तर, म्हज्यान तर. हांवें ती सरपळी – चुकलें – तो चंद्रहार पळोवंक लेगीत ना सायबा.

राजा : तुवें पळोवंक ना जाल्यार कोणें पळेला तो ?

सान्न मारपी : हांव कशें सांगूं सायबा ! हांवें पळोवंक ना इतलें जाणां हांव.

राजा : अर्र तूं ! परत्यापरती जाप दिता !

प्रधान : राजाक परत्यापरती जाप दिता ? बरें जिबट मगो तूं !

राजा : चडूच जिबट.

प्रधान : जिबूच कातरून दितां राव हातांत.

राजा : आरे, व्हर रे हांकां आनी घाल बंदखणींत.

वावराडी : म्हाका बाये कित्याक बंदखणींत घालता ? सरपळी चोरतल्याक घाल बंदखणींत.

राणी : सरपळी खंय !

वावराडी : हय. हय, सरपळीच ती.

सान्न मारपी : आमकां कित्याक जाय तुमची सरपळी ?

राणी : सरपळी ! घालात रे तिका बंदखणींत. (शिपायक दोगांकूय व्हरता.)

वावराडी : आमकां कित्याक व्हरता रे ! आमी कसलो पोटलो खाला तुजो ?

सान्न मारपी : बरो मरे हो ! (वेतात)

राजा : घाल सगल्यांक बंदखणींत. फटकिरे खंयचे ! कोणूच खरें सांगिना. आपणें चोरलो म्हणून कोणूच सांगिना. म्हणटकच चंद्रहार चोरलो तो कोणें ?

राणी : तो वावराडेनूच चोरला तो ! सरपळी म्हणटा, सरपळी !

राजा : प्रधानजी, तुका किदें दिसता ? कोणें चोरला जायत चंद्रहार ?

प्रधान : तोच विचार करतां हांव.

राजा : शिपायक, भायर कोणाकूच वचूंक दिवंक ना मरे ?

शिपायक : ना म्हाराज. तुमी हुकूम दितकच सगलीं दारां बंद केलीं.

राजा : कोणूच पळूंक ना मरे ?

शिपायक : ना सायबा ! कोणूच पळून वचूंक ना. पळूंक सोदताले तांकां सगल्यांक बंदखणींत दवरल्यात.

राजा : कितल्या जाणांक धरल्यात ?

शिपायक : जांतले सात-आठ.

राजा : एकलोय खरें सांगिना ! म्हणटकच प्रधानजी, आतां किदें करचें ?

प्रधान : हय, आतां किदें करचें ?

| | | |
|---|---|---|
| राजा | : | धरल्यात तांचे भितरूच चोर आसा हातूंत दुबाव ना. पूण ताका सोदून कसो काडप ? आपणें चोरलां म्हणून कोण सांगता ? सगल्यांक बरो लडो घालूंक जाय. नाक दामतकच तोंड उगडटलें. |
| प्रधान | : | सगल्यांकूच लडो घालप बरें जावचें ना. |
| राजा | : | खरें तुजें. कसलीय तरी युक्त काडून चोराक धरूंक जाय. प्रधानजी, किदेंय सुचता जाल्यार पळे. मातशें माथें खरपी. |
| प्रधान | : | म्हाराज, माथें खरपून खरपून माथ्यार एक्रूय केंस उरूंक ना. तरी पळोवया. म्हाराज, म्हाराज, आयली आयली. |
| राजा | : | कोण आयली ? |
| प्रधान | : | एक कल्पना आयली. |
| राजा | : | कसली ? |
| प्रधान | : | म्हाराज. म्हजेकडेन एक कोंबो आसा. जादवाचो कोंबो. तो ज्युस्त सांगतलो कोण चोर तो. |
| राजा | : | कोंबो उलयता ? |
| प्रधान | : | उलयना. पूण सांगता. |
| राजा | : | हाड तुज्या कोंब्याक. |
| प्रधान | : | हय. हांव कोंब्याक हाडूंक वेतां. तुमी धरल्यात तांकां सगल्यांक हाडूंक लायात. |
| राजा | : | शिपायक, बंदखणींत घाल्यात तांकां सगल्यांक वचून हाड. |

(पयलो शिपायक भितर वचून सगल्यांक घेवन येता. रांदपी, वाडपी, मडवळ, वावराडी, सान्न मारपी आनी आनीक तीग जाण.)

| | | |
|---|---|---|
| पयलो शिपायक | : | म्हाराज, हाडले सगल्यांक. |
| राजा | : | आयले ? हांगा रावात सगले. आरे, प्रधान खंय गेलो रे ? प्रधानाक आपय. |

(शिपायक भितर वेता. प्रधान वयर तुवालो घाल्लो कोंबो घेवन येता).

| | | |
|---|---|---|
| शिपायक | : | आयले, आयले. प्रधानजी आयले. (प्रधान येता.) |
| प्रधान | : | हो पळे कोंबो. हो जादवाचो कोंबो. हाका दर एकल्यान हात लावंक जाय. चोराचो हात लागनाफुडें कोंबो रडटलो. समजलें ? ताजे आदीं दोन उतरां सांगतां. जाणें चंद्रहार चोरला |

ताणें आपणें जावन सांगचें 'आपणें चोरला' म्हणून. राजा ताका गुन्यांव भोगशितलो. हय मूं म्हाराज?

राजा : चोरान आपूण जावन चंद्रहार दिल्यार हांव ताका गुन्यांव भोगशितां. किदें म्हाराणी?

राणी : हय, चंद्रहार परतो दिल्यार चोराक गुन्यांव भोगशितां.

प्रधान : आयकलें मू! येता कोण मुखार? हांव कोंब्याक परतो व्हरतां. कोणूच येना? बरें तर. आतां चोर कोण तें कोंबोच सांगतलो. तूं यो रे असो आनी तुवाल्या भितर हात घालून कोंब्याक हात लाय.

(दर एकलो येवन कोंब्याक हात लायता आनी परत वेता).

प्रधान : सगल्यांनी हात लायलो? कोण उरूंक ना मूं! बरें तर. कोंबो रडलो ना. कांय नजो. आतां म्हाका तुमचे हात दाखयात पळोवया.

(एकलो एकलो येवन आपलो हात दाखयता).

प्रधान : म्हाराज, म्हाराणी, हांवें चोराक धरला. हो पळे तो चोर. यो रे असो. हो तो रांदपी!

रांदपी : हांव चो-चोर? हांव कित्याक चो-चो चोर? कोंबो खंय र-रडला?

प्रधान : कोंबो कसो रडटलो? कोंब्याक तुवें हात खंय लायला?

रांदपी : हां-हांवे कों-कोंब्याक हा-हात लावंक ना! हां-हांवें हात ला-लायला कोंब्याक. पूण कोंबो रडूंक ना.

प्रधान : फटकिरो. तुवें हात लावंक ना. तुज्या हाताक रंग खंय आसा?

रांदपी : रंग? कसलो रंग? हें रे बाबा कितें?

प्रधान : हें पळे, ह्या सगल्यांच्या हाताक रंग लागला. तुज्याच हाताक रंग लागूंक ना.

राजा : प्रधानजी, म्हाका समजलें ना.

प्रधान : सांगतां. हो कोंबो जादवाचो न्हय. ह्या कोंब्याक रंग लाइल्लो. हात लागल्यार कोंबो रडटलो म्हणून ह्या रांदप्यान कोंब्याक हात लावंक ना. देखून सगल्यांच्या हाताक रंग लागला. हाज्या हाताक मात ना. हय मरे चोरा?

रांदपी : सायबा भोगोस. पांयां पडटां.

राणी : चंद्रहार खंय रे तो? हाड तो हांगा!

रांदपी : (किरवंटीक बांदिल्लो चंद्रहार काडून दिता). घे-घे-घे हो चं-चं-चंद्रहार!

राणी : राजकन्या खंय रे? हाड तिका हांगा. चंद्रहार मेळ्ळो म्हणून सांग.

(राजकन्या येता. हांसता. राणी तिज्या गळ्यांत हार घालता. राजकन्या हांसता).

राजा : प्रधानजीची युक्त ही.

दासी : फटकिरो हो.

वावराडी : पाड पडिल्लो हो रांदपी. नागवणो, कपटी, अवचिन्न. आमचेर ओगींच आळ आयिल्लो सरपळी चोरली म्हणून.

राणी : अर्र तूं! सरपळी? चंद्रहार! चंद्रहार!

(कोंबो रडटा: कों ऽ कोंच ऽ कों.) (पड्डो पडटा.)

# २

# केलें तुका, जालें म्हाका

**निवेदक** : (पड्ड्याभायर) हांव हांगा आसां पड्ड्याभायर म्हण्टकच हांव नाटक करूंक येवंक ना. तुमकां एक काणी सांगूंक आयलां. तुमकां काणयो आवडटात मूं! जालें तर, आयकात आं. कान दिवन आयकात. आरे कोण रे थंय उलयता? उलोवपाचें आसल्यार माचयेर येवन उलयात. बरें तर. सांगतां काणी: एक आसलो वेपारी. तो भांगराच्यो वस्ती विकतालो. एक दीस तो असोच ह्या गांवांतल्यान त्या गांवांत वेतालो. वाटेंत ताका एक व्हडलें रान लागलें. चलून चलून ताजे पांय सामके मोडून आयले. माथ्यावयल्या वज्यान ताजी मान कणली. (पड्डो वयर वेता.) तो पळे! तो वेपारीच येता हांगा.

(निवेदक कुशीक सरता आनी भितर वेता)

**वेपारी** : आवयस्स! पांय सामके मोडून आयले! कसलें बाबा रान हें. आनी कसली रे ही वाट! वांकडीतिकडी कांट्यांखुंट्यांची. दीस धारेर वचचे पयलीं फुलगांवां पावंक जाय. काळखांत असल्या रानांत चलपाचें आसा? केन्ना वागूट आंगार उडकी घेत सांगूं नजो. फुलगांवां आयची रात रावप आनी फाल्यां सक्काळीं वेपाऱ्यांक मेळप, म्हाल विकप आनी मागीर परतून घरा. भांगर म्हारग जालां न्ही? अंदू वर्सा फायदो वायट जावचो ना! घरा बेगीन पावंक जाय. नाजाल्यार घरकान्न बेश्टोच हुस्को करतली. ती म्हणटालीच म्हाका, एकलो वचूं नाका म्हणून, इतल्यो वस्ती घेवन. एं! म्हाका कसलो भंय? ही म्हजी पिंजकरी पोटली पळोवन भितर भांगरा-वस्ती आसात हें कोणाक सांगून खरें दिसचें ना! चोर तर म्हजे लागीं लेगीत येवचे नात. आनी असल्या रानांत येता पयलीं कोण? ह्या रानांत पावल्यारूच ताजी भिंवन गुळी जातली.

**पयलो चोर** : (माचयेर येता. कुरवो करता) आरे, पळे, पळे, तो कोण वेता पळे! (दुसरो चोर येता). माथ्यार येदी व्हडली पोटली आनी हातांत पोती. कोणूय गिरेस्त वेपारी आसूंक जाय!

**दुसरो चोर** : असल्या अटंग्या रानांतल्यान गिरेस्त वेपारी वेतात रे केन्ना? पळे रे ताजो पिंजको सदरो आनी अळशिकावणें पुडवें. आसतलो कोणूय पसरकार गोड-साकर विकपी! वेता आसतलो आपली मुस्तायकी घेवन मावोड्या.

**पयलो चोर** : आरे, ह्या वेपाऱ्यांक तूं वळखना. ते भायल्यान सामके कफल्लक दिसतात. पूण भितल्ल्यान ताण आं.

(तिसरो चोर येता)

**तिसरो चोर** : लटीक न्हय तुजें. ताजेकडेन कितें आसा तें पळोवया. दुडू आसल्यार ताजी गोमटी मुड्डुया. नाजाल्यार सोडून दिवया. बेश्टें पातक कित्याक?

**च्वथो चोर** : पातक? कसलें पातक? चुकून एकाद्रो मेलो म्हणून कसलें पातक? आरे, ह्या संवसारांत मनीस थोडे जायत तितलें बरें.

**तिसरो चोर** : हें पळे, आमी अशें करुया. हांव त्या मनशाकडेन वेतां आनी हांगच्या थंयच्यो खबरी काडटां. केवल्याकडेन दुडू सावता काय ना तें पळेतां. दुडू आसल्यार हांव उजव्या हातान माथें खरपितां. म्हणटकच तुमी धांवत येवन ताजी किदें वाट लावपाची ती लायात. ताजेकडेन कांय सावना जाल्यार हांव परतो येतां. कळ्ळें मरे?

(चारूय चोर वेतात. माचयेर दावेकडल्यान वेपारी येता. ताजेफाटल्यान तिसरो चोर येता).

**तिसरो चोर** : आगा! आगा! ए, भाटकारा, खंय चललो गा? राव मगा! हांवूय येतां बरोबर. (वेपारी बेगीबेगीन वेता) आगा, राव मगा! राव मगा! (उजवेकडल्यान भितर वेता).

**वेपारी** : (दावेकडल्यान येता). म्हाका आनीक कोण हो उलो मारता! चोर बी न्हय मूं! चोरसो कांय दिसना. पळोवया तरी.

**तिसरो चोर** : बेगीबेगीन कित्याक चलता गा, वाग फाटल्यान

लागिल्लेभाशेन? पुरो जातलें तुका. आमी वांगडा या. ह्या रानांतल्यान एकलो वचपाक भंय दिसता बाबा! धिराक कोणूय बरोबर आसल्यार बरें.

**वेपारी** : आरे बाबा, हांव बेश्टोच बेगीन चलतां. आरे, रात पडचे पयलीं ह्या रानांतल्यान भायर सरूक जाय. एकदां काळोख पडल्यार खंयच्यान वाग तुजेर उडकी मारीत सांगूं येता?

**तिसरो चोर** : खरें तुजें. म्हाकाय बाबा काळखांत भंय दिसता. चलून, चलून तुका पुरो जालां जातलें न्हय?

**वेपारी** : हय तर, पांयांच्यो काडयो जाल्यो.

**तिसरो चोर** : खंयच्यान आयला गा?

**वेपारी** : हांव जल्लेगांवच्यान आयलां.

**तिसरो चोर** : हां. जल्लेगांवचो भाटकार काय कितें?

**वेपारी** : भाटकार! हँ! हँ! हांव भाटकार! न्हय रे बाबा.

**तिसरो चोर** : म्हणटकच वेपारी तर!

**वेपारी** : वेपारी खंय! न्हय रे बाबा! पसरकार हांव. सांसवां-राणबियां विकतां.

**तिसरो चोर** : अशें तर! म्हाका दिशिल्लें एक वेपारी आसतलो म्हणून. खंय वेता गा!

**वेपारी** : हांव खंय वेतां काय म्हणून विचारता? हांव वेता फुलगांवां. म्हजो मेवणो आसा थंय. पिंपळा पेडाकडेनूच रावता. तो मातसो बरो नाशिल्लो. खबर घेवया म्हळें.

**तिसरो चोर** : खूब दीस रावतलोसो दिसता!

**वेपारी** : अशें कित्याक म्हळें?

**तिसरो चोर** : हँ! हँ! माथ्यावयली पोटली बरीच जडशी दिसता. मुस्तायकी खूब घेतल्या बरोबर.

**वेपारी** : हां! हां! आयला म्हणटकच रावं नाका दोन दीस? आनी बायलेन भावजेक थोडीं आयदनां दिल्यांत; देखून पोटली मातशी जड जाल्या.

**तिसरो चोर** : तुका पुरो जालां जाल्यार हांव घेतां पोटली माथ्यार. तुका मातसो सुसेग मेळटलो.

**वेपारी** : देव बरें करूं. ओगीच तुका कित्याक कश्ट!

**तिसरो चोर** : कश्ट कसले! हांव चार पावलां घेतां पोटली माथ्यार. मागीर

परती घे तूं. (पोटलेक हात लायता).

| | | |
|---|---|---|
| वेपारी | : | नाका गा काका. म्हाका कांय पुरो जावंक ना. |
| तिसरो चोर | : | पुरो जावंक ना म्हणून आसा! कसो खर्शेता पळे तूं! (पोटली ओडून घेवपाक करता.) |
| वेपारी | : | खऱ्यांनीच म्हाका पुरो जावंक ना. ओगीच कित्याक! नाका. पळे आं. म्हजे पोटलेक हात लावं नाका. |
| तिसरो चोर | : | हांव पोटली व्हरन म्हणून भिंयेता काय किदें? म्हाका तुजी पोटली भोव जाय! |
| वेपारी | : | पोटलेक कोण भिंयेता? पूण तुका बेश्टे कित्याक कश्ट काय म्हणटां? |
| तिसरो चोर | : | आं! आं! पोटलेकूच भियेता तूं... बरें कितें भरलांशें दिसता! आयदनां खंय! आयदनां जाल्यार इतलो कित्याक भिंयेता? |
| वेपारी | : | बरो मरे हो! हांव भिंयेतां? हांव कित्याक भिंयेतलों? पूण म्हजे पोटलेंत कितें आसा तें कित्याक तुका? म्हाका जाय तें व्हरतलों हांव. |
| तिसरो चोर | : | व्हर बावडो व्हर! तुका व्हरू नाका म्हणून कोणें सांगलां? पूण व्हरता जाल्यार आमकांय दी थोडें. |
| वेपारी | : | बरो मरे हो! आपणाकूय दी खंय थोडें! हांव तुका देणें आसां काय किदें? |
| तिसरो चोर | : | तशें न्हय गा. पूण हें रान आमचें न्हय? |
| वेपारी | : | हें रान तुमचें? |
| तिसरो चोर | : | हय, 'हें रान आमचें. तुमकां खबर ना? अजाप मगा! ह्या रानांतल्यान म्हाल व्हरतलो जाल्यार थोडो म्हाल आमकां दिवंक जाय. समजलें मगा? |
| वेपारी | : | बलाय म्हजी! चोरूक आयला काय किदें? |
| तिसरो चोर | : | (भेश्टावणेच्या आवाजांत) आतां समजलें तुका? सोडोवन दाखय ती पोटली. आयदनां आसल्यार चार आयदनां दी म्हाका आनी मागीर चल फुडें. पूण आयदनां नासल्यार.... |
| वेपारी | : | आनी आयदनां नासल्यार कितें करतलो? |
| तिसरो चोर | : | हांव सांगिना. रोखडेंच कळटलें तुका. |
| वेपारी | : | कळटलें खंय! कळटलें खंय! कितें कळटलें? चल पळोवया हांगाच्यान. तुज्या तोंडाक लागपाक म्हाका वेळ ना. म्हाका |

बेगीन पावंक जाय.

**तिसरो चोर** : बेगीन पावंक जाय मरे? हा! हा! हा! बेगिनूच धाडटां तर तुका.

(माथें खरपिता. बाकीचे तीन चोर सुरे घेवन धांवत येतात. वेपारी धांवता. उजवेकडल्यान ना जाता. ताजे फाटल्यान चोर धांवतात. माचयेफाटल्यान वेतात.)

**वेपारी** : (भितल्ल्यान) धांवात रे धांवात. सोडयात रे म्हाका! सोडयात रे! आवयस्स!

(चोरांचो आवाज – जाय? जाय? आनीक घे! जाय? आनीक जाय?)

**वेपारी** : (आवाज) आवय गे! मेलों रे मेलों! हाय! हाय! हाय!...

**पयलो चोर** : (भायर येत, रगतान माखिल्लो सुरो दाखयत.) मेलो, सामको मेलो! थंड जालो. आतां आनीक बोब मारचोना. म्हगेलें अशें. कोणाकूय धरलो म्हणटकच ताका जितोच मारूक जाय. मेल्लो मनीस उलय ना.

**दुसरो चोर** : (पोटली घेवन येता. सुरो दाखयत) हो म्हजो तीख सुरो सामको पोटांत गेलो ताज्या. आंतकड्यो भायर काडीत आयलो.

**तिसरो चोर** : (पोती घेवन येता) ह्या सुऱ्यान हांवें गोमटीच कातरली ताजी. कचाकच!

**चवथो चोर** : किदें बोब मारली ताणें!

**पयलो चोर** : किदें तो आड्डलो!

**दुसरो चोर** : किदें तो पिरंगलो!

**तिसरो चोर** : पूण तो आतां आड्डुचोना. आतां तो पिरंगचो ना.

**चवथो चोर** : आतां तो न्हिदला! सासणाचो न्हिदला.

**पयलो चोर** : मोटो मस्तो आं. म्हज्या नाकार पळय ताणें कशी मूठ हाणली. नाक पळे कशें चेपून गेलां.

**दुसरो चोर** : आनी म्हज्या पोटार पळे ताणें कशी खोंट मारली. आजून पोट दुखता.

**तिसरो चोर** : आनी म्हज्या हाताक पळे ताणें कसो घांस काडलो. पळे कशें रगत आयलां.

**चवथो चोर** : आनी म्हजो ताणे पळे कसो पांयूच चिड्डिलो. म्हातारो आसून इतलो नेट. आब्बा!

**पयलो चोर** : पुण आतां तो मूठ हाणचो ना, खोंट मारचो ना, घांस काडचो ना. हा! हा! हा! हा! बाबुली, पळोवया तरी किदें आसा ते पोतयेंत. कर उकती आनी ओत.

**तिसरो चोर** : (पोती ओतता) आवयस्स! रुप्याच्यो वस्ती मरे! नव्योताल्ल! पळे कशो चकचकतात. वाळे, कांकणां, पांयजणां!

**चवथो चोर** : आयदनां म्हणून सांगतालो न्हय?

**पयलो चोर** : आतां सोड ही पोटली.

**दुसरो चोर** : जड गुळो मरे ही पोटली. आवयस्स! बरी घट बांदल्या मरे ही पोटली! तूं सोडय पळोवया.

**तिसरो चोर** : (पोटली सोडयता) ही पळे सोडली ही पोटली. भितर बरेंच कितें बरी आसाशें दिसता. आरे पोटलेंत आनीक पोटली मरे! (तीय पोटली सोडटा) बरो मरे हो तड्डकी!

**चवथो चोर** : बापाय! कितलीं रे हीं भांगरां!

**दुसरो चोर** : मुदयो, कांकणां, पाटल्यो, गळसऱ्यो, बाजूबंद, सरपळ्यो, चंद्रहार!

**तिसरो चोर** : चोर खंयचो! फटींग खंयचो! आयदनां म्हणटालो आयदनां. हीं आयदनां काय म्हणटां हांव!

**चवथो चोर** : आनी हीं पळे मोतयां आनी हे पळे हिरे कशे चकचकतात ते!

**पयलो चोर** : आरे, ह्या वस्तींचे कितले जातले जाणा तूं? चार लाख जातले, चार लाख!

**दुसरो चोर** : चार लाख! बापाय! चार लाख! चार लाख आमी केन्ना पळेल्यात तरी! काल आमी त्या कलयकाराक धरिल्लो. ताजेकडल्यान मेळ्ळे आमकां रुपया – चार!

**तिसरो चोर** : दर एकल्याक एक लाख! जाणें देखलें ना धरकल ताणें देखलें कालूं!

**पयलो चोर** : खंयचे तवलेंत घालूं? एक लाख म्हळ्यार शंबर हजार रुपया. आरे जल्मभर खावंक पुरो.

**दुसरो चोर** : शंबर हजार! बरो सोबीत बंगलो बांदतलों हांव एका दोंगराचेर. वारें अशें झणझणीत मारतलें! मागीर ह्या रानांत म्हणून परतो येवप ना.

**तिसरो चोर** : हांव एक नवी ताल्ल घोड्यागाडी घेतलों. करकरीत,

चकचकीत! टीक, टीक, टीक, टीक! सगलो गांव भोंवतलों! सगलो लोक म्हाका चोयतलो!

**चवथो चोर** : आनी हांव बऱ्यो, बऱ्यो बाटल्यो हाडून दवरतलों घरांत. एका लाखाच्यो कितल्यो बाटल्यो येतल्यो रे?

**पयलो चोर** : तुका बाटलेबगर कांय सुचना रे! आयची रात मात बरी आं! एका धपक्यांत चार लाख, पळे रे! मळबांत लेगीत इतलीं नखेत्रां नासतलीं.

**दुसरो चोर** : आतां जल्मभर वावर म्हणून करप ना. घाम गाळप ना! चिंता ना, हुस्को ना.

**तिसरो चोर** : आतां सुसेगाद न्हिदप. मोव मोव कुल्चांवार लोळप फिदाल्ग कसो.

**चवथो चोर** : आतां फोल्गां मारप, फोल्गां! दीसरात फोल्गां! काम केलें तें पुरो जालें.

**पयलो चोर** : आरे, पूण आमचो धंदो कोण चलयतलो रे? आनी मागीर हें रान कोणाक दिवप रे?

**दुसरो चोर** : हय मरे! हें रान कोणाक दितलो?

**तिसरो चोर** : जाय ताका व्हरूं दी हें रान. आमकां कितें ताजें?

**चवथो चोर** : हय. आतां आमकां कितें ताजें?

**पयलो चोर** : बरें तर! आमकां कितें ताजें आतां! आतां म्हाका भूक लागल्या. तुमकां लागूंक ना रे भूक?

**दुसरो चोर** : लागल्या तर! म्हाकाय लागल्या भूक!

**तिसरो चोर** : म्हाका कोणें जेवण हाडून दिल्यार हांव नाका म्हणचों ना.

**चवथो चोर** : म्हज्या पोटांत कावळे रडूंक लागल्यात, कावळे!

**पयलो चोर** : म्हणटकच शाबली, बाबली तुमी चलात बाजारांत आनी खावपाक घेवन येयात. आमी हांगा भांगराची राखण करीत बसतात. कळाव करूं नाकात.

**दुसरो चोर** : खूबशें घेवन यो. म्हाका अशी भूक लागल्या म्हणून सांगूं!

**तिसरो चोर** : कितें हाडुया?

**चवथो चोर** : कितेंय हाडुया. मेळटा तें हाडुया. पाव, बिस्कुत्यो, तांतयां, चिवडो, जिलब्यो.

**पयलो चोर** : चलात बेगीन. आरे शाबली तुज्या आंगार पळे रगताचीं खतां दिसतात. तीं मात पूस आं.

दुसरो चोर : आरे बाबली तुज्याय हाताक रगत लागलां मरे! तें मातशें धुवन काड. लोकांक ओगीच दुबाव येत.

तिसरो चोर : बरें, येतात आमी रोखडे! हीं भांगरां सारकीं बांदून दवरात. येतकच करुया वांटणी.

चवथो चोर : हय, मागीर करुया वांटणी. हांगाच रावात आं. आनी खंय वचूं नाकात. (तिसरो आनी चवथो चोर वेतात).

पयलो चोर : (थोड्या वेळान.) गेले. दोगूय गेले. गुंडू, ए गुंडाप्पा, असो हांगा यो. आयक आं. बरें करून आयक. (गुंडूच्या कानांत फुतफुतता.)

दुसरो चोर : सारकें सांग रे! असो कितें फुतफुतता? व्हडल्यान उलय मरे! हांगा कोण आयकूंक आयला!

पयलो चोर : आरे म्हाका एक युक्त सुचल्या. युक्त म्हळ्यार युक्त! (परतून फुतफुतता.) कळ्ळें मरे!

दुसरो चोर : सारकें सांग तरी.

पयलो चोर : सांगतां. पूण तुवें आं म्हणूंक जाय पयलीं.

दुसरो चोर : आरे, पयलीं सांग तरी मरे!

पयलो चोर : पयलीं आं म्हण.

दुसरो चोर : बरें बाबा, आं आं.

पयलो चोर : आयक तर. बाबली आनी शाबली बाजारांत गेल्यात पळे. ते परते आयले रे आयले तांचेर धांवत वचप आनी मागीर – कचाकच!

दुसरो चोर : कचाकच?

पयलो चोर : हय कचाकच! आसा कबूल?

दुसरो चोर : सामको तण्णा मरे! कांय कळना! हें पळे, बाबली आनी शाबलीक काबार करतकच ह्यो सगल्यो वस्ती कोणाच्यो?

दुसरो चोर : ह्यो सगल्यो वस्ती कोणाच्यो? आरे, हय मरे! आनीक कोणाच्यो? म्हज्यो आनी तुज्यो!

पयलो चोर : आतां कशें कळ्ळें?

दुसरो चोर : दी ताळी!

पयलो चोर : घे ताळी!

दुसरो चोर : इश्ट आसचो तर असलो!
(ताका वेंग मारता आनी नाचता.)

पयलो चोर : बंड्या, म्हज्या इश्टा
हांव सांगतां तुका
तुजे भाशेन इश्ट म्हाका
दुसरो कोणूच नाका!

पयलो चोर
दुसरो चोर : सगलें भांगर, सगलें भांगर
आमगेलें
तुजें आनी म्हजें
म्हजें आनी तुजें
कोणाक ना सांगचेलें
लिया, लिया लो
लिया, लिया, लिया, लिया
सांबा लिया लो.

पयलो चोर : आरे येतात शें दिसतात रे दोगूय चोर. हे पळे गायत येतात.

तिसरो चोर : (भायल्यान)
चवथो चोर येदे रातीचे पाखले भोंवतात
खाडाचे
आयज आमी धनी जाले भांगराचे
फारार फार, जाताय रानांतू
फारार फार, जाताय रानांतू
राणे मात्तात पाखल्यांकू
पाखले मात्तात राण्यांकू.

दुसरो चोर : हय मरे. तेच ते. कशे खावन पिवन तर्र जाल्यात पळे.

पयलो चोर : उबार तुजो सुरो.

दुसरो चोर : एक, दोन, तीन. (दोनाय हातांनी सुरे घेवन भायर वेतात).

तिसरो चोर : (भायल्यान)
चवथो चोर घात केलो रे! घात केलो रे! आवय! आवय! मेलों रे! मेलों रे! आवय! आवय! आवय!

(पयलो चोर, दुसरो चोर परतून माचयेर येतात.)

पयलो चोर : (हातांत रगतान माखिल्लो सुरो घेवन) एका धपक्यांत खलास. आड्डतालो, पूण मारलो दुसरो धपको. मागीर हूं ना, चूं ना.

दुसरो चोर : म्हाका तीन धपके मारचे पडले. तेन्नाच शाबली थंड जालो. हांवें सुरो मारूंक काडलो तेन्ना केवल्यान म्हजो हातूच धरलो. पूण हांव आयकतां ? कचाकच ! कचाकच ! आवयस्स ! म्हाका इतलें पुरो जालें म्हणून सांगूं !

पयलो चोर : आज काम खूब केलें न्हय ?

दुसरो चोर : आतां बरें रगडुया.

पयलो चोर : (भायर वेता आनी एक पुडो हाडटा. ख़ायत, खायत येता.) वा ! काय बरो चिवडो ! आनी हो बटाटवडो ! वा ! रुचीक !

पयलो चोर : (ताजेकडल्यान पुडो ओडून घेता) हाड हांगा ! आपुणूच खाता. (खाता) वा ! बरो मरे चिवडो ! आनी ही पळे जिलबी !

दुसरो चोर : इतली गोड जिलबी हांवें केन्ना खालीच ना. जिबेर दवरल्यार पुरो, म्हौंवासारकी विरगळटा पळे !

पयलो चोर : आनी हो सामोसो पळे रे ! पळे कसो चमचमीत !

दुसरो चोर : हांव बसून खातां. घुंवळशी आयली.

पयलो चोर : बाबलीक मारून पुरो जालां दिसता. म्हाकाय पुरो जालां. हांवूय बसतां मातसो. (दोगूय बसतात).

दुसरो चोर : आरे, हें सगलें रान घुंवताशें दिसता मरे ! हीं पळे झाडां कशीं घुंवतात तीं.

पयलो चोर : तुका तशें दिसता रे तें. तूंच घुंवला.

दुसरो चोर : आरे, म्हाका दिसता म्हणून सांगतां मरे ! हें पळे वयर मळब लेगीत घुंवता.

पयलो चोर : आरे, हय मरे. हीं झाडां घुंवंक लागलीं म्हजे भोंवतणीं !

दुसरो चोर : आरे, म्हजें पोटूय दुखता मरे ! आवयस्स ! आवय गे !

पयलो चोर : इतलेंच खावन पोट दुखूंक लागलें मरे ! कसलो खावपी रे तूं ! हांव पळे कसो खातां. (भकाभका खाता).

दुसरो चोर : तूं खा बावडो ! म्हज्यान खावंक जायना रे बाबा ! आवयस्स !

पयलो चोर : हय मरे ! आरे म्हजेंय पोट दुखूंक लागलें मरे ! आवयस्स ! सोंसूंक जायना रे !

दुसरो चोर : आवयस्स ! जायना रे सोंसूंक !

पयलो चोर : आरे, हें अशें कशें जालें रे ! आवय गे !

दुसरो चोर : हांवूय म्हणटां, आमी आत्तां बरे आशिल्ले आनी आत्तां आमकां हें किदें जालें ? आवयस्स !

**पयलो चोर** : घात जालो रे! आरे घात जालो. आवयस्स! घातकी पाडपडिल्ले! बाबली-शाबलीन आमच्या खाणांत वीख घाल्लेंशें दिसता. मेले! आमी मेले! सामके मेले! खलास जाले!

**दुसरो चोर** : घात केलो तांणी... आमकां वीख घालून माल्ले. आमी तांकां मारले आनी तांणी आमकां मारले. बादाक बाद! आवय गे!

**पयलो चोर** : आवय गे! आवय! (दोगूय मरून पडटात).

**निवेदक** : हे पळेयात. हांगा तो वेपारी आनी ते चार चोर कशे मरून पडल्यात ते. पळेलें! भांगराखातीर तांणी एकामेकांचो जीव घेतलो. भांगरान सगल्यांचो जीव घेतलो. आतां ह्यो सगल्यो वस्ती कोणाच्यो?

# ३

# अकलेचो कांदो

(एके खोंपींतली कूड. दोन लाकडा-कुडके. कोनशांक खोरीं, कुराडी, कोयते, बुडकुले. पांडू: लाकडां फोडपी भरेकार: ३० वर्सां; पार्वती: ताजी बायल: २५ वर्सां; पिटकोळें: सात/आठ वर्सांचें चली; परी: भांगराचीं पांखां लायिल्ली, धवी फुल्ल साडी न्हेशिल्ली.)

(पांडू येता. कुराड कोनशाक उडयता. लांकडाच्या कुडक्यार बसता.)

पांडू : हुश्श! पुरो जालें बाबा! (आंगाचो घाम पुसता). आगे! खंय गेली गे ही. (कमराची विडी काडटा). आगे! हिजें अशेंच! शेजान्नीगेर खबरी करूंक गेल्या जातली. आगे! खंय गे ती? हिणें कानांत भिंडेल घालां काय कितें? आगे! आगे!

पार्वती : (भितल्ल्यान) आयलें, आयलें (भुरगें रडपाचो आवाज. धपके मारिल्ल्याचो आवाज). घे! खा! आनीक जाय? खा, घे! वेतलें तांगेर? वेतलें? घे खा!

पांडू : आगे, किदें जालां गे! पिटकोळ्याक अशी कित्याक बडयता गे? ताणें केलें तरी किदें?

पिटकोळें : (रडत रडत भितर येता) म्हाका मारलें! यँ! यँ! यँ! फाटीर मारलें! यँ! यँ! यँ!

पार्वती : मारलें! आनीक मारतलीं! म्हाका वळखून नकळो. सांग तुज्या बापायक. सांग तुज्या बापायक. अर्र तूं! फाजील पोर. सुबेज.

पांडू : आगे, किदें जालां तें तरी सांग गे.

पार्वती : विचार, ताकाच विचार. ताका कितलें सांगलें त्या विसूगेर वचूं नाका म्हणून. पूण तें आयकना. उमथ्या कळशार उदक.

थंय वेता आनी तांगेर झगडून येता. तांगेर रेडियो हाडला न्हय. थंय वेता आनी रेडियोक हात लायता खंय तांच्या आनी तीं हाका धांवडायतात. हांव म्हणटां, तांगेर शेण खावंक कित्याक वेता? आतां व्हडलो जाला न्ही तो विसू? आतां लोक विश्वनाथ म्हणटात. कांय जाण जाल्यार ताका विश्वनाथराव म्हणटात. संकाळींच कोण आयिल्लो आनी विचारतालो,

"इकडे विश्वनाथराव कुठे रावतात?"

हांवें म्हळें, "इकडे विश्वनाथराव कुणी रावत नाही. विसू जाय जाल्यार शेजारा रावतो."

**पांडू** : आसूं गे! ताका बरें दिसता जाल्यार म्हणूं दी ताका विश्वनाथराव!

**पार्वती** : ताका बरें दिसता जाल्यार! आनी म्हाका बरें दिसूंक नाका? हो विसू पोरू विडयो वळटालो आनी अंदू विश्वनाथराव जालो! व्हडलो आयला विश्वनाथराव!

**पांडू** : ओगी राव गे! आतां म्हजी विडी पेटोवंक उजो हाड पळोवया.

(पार्वती भितर वेता.)

**पांडू** : (पिटकोळ्याक लागीं हाडटा) बाय पिटकोळ्या, रडूं नाका पळोवया. ओगी! बाय तें म्हजें! तुका किदें जाय तें सांग म्हाका आं. हांव हाडटां तुका.

**पिटकोळें** : दादा म्हाका रडयो हाड न्ही एक!

**पांडू** : इतलेंच मगो! रेडियो कितें ना पडल्यात? घे म्हणून मेळटात रेडियो.

**पिटकोळें** : खरेंच हाडटलो?

**पांडू** : कितें म्हळें? आं. पळोवया. पळोवया गो. दुडू जमल्यार हाडटलों.

**पिटकोळें** : ना, ना. हाडटलों म्हणून सांग... अँ, अँ...

**पांडू** : कितें, परतून जालें तुजें सुरू? हीं पोरां सामकीं हटी. हांचें बाणीर बोट. आगो, हाडटां बाये हाडटां.

**पिटकोळें** : (नाचता) दादा म्हाका रडयो हाडटलो खंय, रडयो हाडटलो....

**पार्वती** : (पेटिल्लें सोण्ण घेवन येता) रेडियो हाडटलो? कोण हाडटलो?

| | | |
|---|---|---|
| पिटकोळें | : | दादा म्हाका रडयो हाडटलो, रडयो हाडटलो! |
| पार्वती | : | दादा रडयो हाडटलो! हा! हा! हा! तुका पयलीं बरोसो विस्तीद हाड म्हणून सांग. तुज्या विस्तिदाचीं कशीं पळे बोंदरां जाल्यांत. पदेराचे पयशे दी म्हणून सांग. दूदकाराचे दुडू दी म्हणून सांग. रेडियो खंय! हा! हा! हा! |
| पांडू | : | आगे अशीं फकाणां करूं नाका. तूं कितें समजल्या गे? आगे हांवें मनांत हाडलें जाल्यार... |
| पार्वती | : | मनांत हाडलें जाल्यार... पूण आतां तुवें किदें हाडलां पळोवया. |
| पांडू | : | ही पळे पोती. |
| पार्वती | : | (पोतयेंतल्यो वस्ती काडटा). तांदूळ, गोड. किदें? इतलेंच? कांदे हाडलेनात आनी मिरसांगो, चण्यांदाळ ना! पेत्रेल ना! खोबरेल ना. तुमकां सांगिल्लें मूं? |
| पांडू | : | आगे सगलो आदेस काम करून हातांत पडले पांच रुपया. पांच रुपयांनी आनीक किदें मेळटलें? |
| पार्वती | : | पांच रुपयांचो रेडियो हाडचो आशिल्लो एक. |
| पांडू | : | आगे फकाणां नाका करूं आं. हांवें मनांत हाडलें जाल्यार.... आगे आदल्या काळांत मनांत हाडटा तें जातालें. आतांच्या तेंपार सगलें बदललां. आदल्या काळार सर्गसुंदरी म्हणून आसताली. तिका आपयल्यार पुरो आसलें. ती म्हणटाली, "म्हाका आपयली? तुका जाय तें माग!" |
| पार्वती | : | हा! हा! हा! सर्गसुंदरी खंय! यो सर्ग सुंदरी यो.... |

(गडगड्याचो आवाज. ल्हवू ल्हवू काळोख जाता. उजवाडान भरिल्ली सर्गसुंदरी येता. तिगांय जाणां तिका अजापान पळेतात.)

| | | |
|---|---|---|
| सर्गसुंदरी | : | पार्वती! तुवें म्हाका आपयली! पांडू, तुवें म्हाका आपयली! कोण आपयता ताज्या उल्याक हांव पावतां. |
| पांडू | : | खरीच तूं सर्गसुंदरी! |
| पार्वती | : | खरीच तूं सर्गसुंदरी! |
| पिटकोळें | : | आवयस्स! काय बरी सर्गसुंदरी! कितली सोबीत! आमगेरूच राव तूं! |
| सर्गसुंदरी | : | हांव तुमगेरूच रावतलीं आसलीं. तुजी अपुर्बाय करतलीं |

आसलीं. पुण म्हाका खूब कामां आसात. म्हाका आनीक खूब जाण आपयतात. म्हाका तांगेर वचूं नाका? पार्वती!

| | | |
|---|---|---|
| **पार्वती** | : | किदें सर्गसुंदरी? |
| **सर्गसुंदरी** | : | पांडू! |
| **पांडू** | : | किदें सर्गसुंदरी? |
| **सर्गसुंदरी** | : | तुमी म्हाका आपयली. हांव आयलीं. तुमच्या मनांत किदें आसा तें मागात, तुमकां मेळटलें. हांव तुमकां तीन वर दितां. तिनूच आं. चवथो मेळचो ना. विचार करून मागात. |

(गडगड्याचो आवाज. काळोख जाता. परतून उजवाड.)

| | | |
|---|---|---|
| **पांडू** | : | (दोळे चोळीत) किदें, गेली! |
| **पार्वती** | : | (दोळे चोळीत) सर्गसुंदरी गेली! |
| **पांडू** | : | हें सपन न्हय मूं? म्हाका चिमटो काड पळोवया. (पार्वती चिमटो काडटा). आय! पूण म्हाका खरेंच दिसना सर्गसुंदरी आमगेर आयली म्हणून. |
| **पिटकोलें** | : | अँ! अँ! अँ! सर्गसुंदरी गेली! काय बरी सर्गसुंदरी गेली. आमकां ओगीच भास जाल्लो. |
| **पार्वती** | : | सगलीं फकाणां. हातच्या कांकणाक हारसो किद्याक जाय? तिणें सांगलां तें खरें काय किदें तें पळोवया. किदें मागता तें मेळ्ळ्यार ती खऱ्यांनीच आयलीशें जालेंना? |
| **पांडू** | : | हयवय. खरें तुजें. किदें मागुया? बरेंशें किदेंय तरी मागूंक जाय. |
| **पार्वती** | : | तूं किदें मागतलो जाणां हांव! तूं पयलीं भकारो. तूं भकूंक मागतलो. पातळ भाजी आनी मिरसांगे भजीं मागतलो. |
| **पांडू** | : | हांव भकारो! आनी तूं किदें मागतली हांव जाणां. तूं मागतली साडी. ना जाल्यार भांगरां; कांकणां ना जाल्यार कडकडीं फुलां. तुमकां बायलांक आनीक किदें जाय? |
| **पिटकोलें** | : | रडयो माग मरे बाबा? |
| **पांडू** | : | सर्गसुंदरीकडेन रेडियो आसत शें दिसना. सर्गांत अजून रेडियोच्यो फॅक्टरी नात गो बाय. राव आं. पळोवया किदें मागुया. |
| **पार्वती** | : | मागता जाल्यार बेगीन माग. |

पांडू : सामकी हुतहुती मगे तूं!

पार्वती : बरें बाबा. तुका जाय तें माग. भर्जी मात मागूं नाका आं. तुगेली जिबली पयलीं हुळहुळी.

पांडू : किदें म्हळें? म्हगेली जिबली हुळहुळी? हांव पुरो जावन आयलां. वा! आतां म्हाका एक बरें हुनहुनीत भजें खावंक मेळिल्लें जाल्यार किदें वायट जातलें? (ताजेमुखार एक भजें पडटा!) किदें हुनहुनीत भजें! आ! काय बरो वास! कोणें उडयलें हें भजें?

पार्वती : आनीक कोण उडयतली? सर्गसुंदरेन उडयलां हें भजें. तुवें मागिल्लें तें दिलें तिणें. हांव जाणांच आशिल्लीं तूं भकारो म्हणून. तुका आनीक कांयच येवजना. एक वर तुवें ना केलो. खा तें भजें. खा तें भजें. कसलो बाये दादलो हो! खा तें भजें.

पांडू : म्हाका राग हाडूं नाका आं. म्हाका नाका तें भजें. तूंच खा तें भजें.

पार्वती : हांव किद्याक खावं. तूंच खा तें.

पांडू : तें भजें तुज्या नाकाकूच लागूं. (भजें उडून पार्वतीच्या नाकाक लागता).

पार्वती : हें आनीक किदें बाये? म्हज्या नाकाक भजें लायलें तुवें? आरे कसाबा! काय बरें म्हजें नाक तुवें विद्रूप केलें. (ती भजें ओडटा. भजें कशेंच सुटना.) हें भजें अशेंच उरलें दिसता. आवय गे! बापाय रे! हें भजें कशेंच सुटना गे! आवय गे! बापाय रे!

पांडू : आगे, इतलो बोवाळ कित्याक गे! दोन वर गेले. तिसरो वर आसा मगे. आमी भांगराची नळी मागुया. ते नळयेंत तूं तें भजें घाल आनी ती नळी आमी नाकाक लावंया. लोक म्हणटले, काय बरें भांगराचें नाक पांडुले बायलेचें!

पार्वती : ह्या वेळार तुका मस्कऱ्यो सुचतात न्हय? काड हें भजें पयलीं. सोडय म्हाका. आवय गे! बापाय रे!

पांडू : आगे, आड्डूं नाका बाये, आड्डूं नाका. तें भजें सुटून वचूं पळोवया. (भजें सुटून पडटा). आतां जाली तूं सुखी!

पार्वती : ह्या दादल्याक अक्कल ना कसली. गाडी मागली ना, घर

मागलें ना. तर मागलें किदें काय म्हळ्यार भजें! देव दिता आनी देंवचार नाडटा खंय. खा तें भज़ें!

पांडू : तूंच खा तें भजें!

पार्वती : तूंच खा. चड शाण्याक फातरा शीत.

पांडू : तूंच खा!

पिटकोळें : म्हाका रडयो जाय! म्हाका रडयो जाय.

पार्वती : (ताजे फाटीर मारता) घे! घे! घे हो रडयो! घे हो रडयो!

(पिटकोळें रडटा. पड्डो पडटा.)

# ४

# राजकुंवर आनी तीन चोर

## (एक आंकी नाटकुलें)

**सवंगां :**

| | | |
|---|---|---|
| राजा | राणी | राजकुंवर अभयकुमार |
| विजय, एक भुरगो | पयलो चोर | दुसरो चोर |
| तिसरो चोर | मोती घोडो | शिपायक |

### पयलो देखाव (राजम्हालांत)

**अभयकुमार** : बाबा, बाबा! आ! गेलो बाबा! म्हाका व्हरनासतना गेलो. हांवें कितलें सांगलें बरोबर येतां म्हूण. पूण ना. बाबाक खंय कामां आसात. कसलीं कामां कोण जाणा. बाबा म्हाका काय बरो काणी सांगतालो. इतल्यांत तो व्हडल्या पोटाचो, लांब कानाचो मंत्री आयलो आनी बाबाक घेवन गेलो. व्हरू दी. हांवें म्हजो घोडो काय बरो तयार केल्लो. सकाळीं काय बरो ताका धुल्लो. ताका हांवें म्हज्या हातान चणे खावंक दिल्ले. आमी आज दोंगरार भोंवंक वेतले म्हूण तो कसो फुरफुरतालो. पूण ना. आज आमकां फिरप ना, भोंवप ना. आज अशेंच हांगा बसप. बाबा अशेंच करता सदांच. भोंवंक व्हरतां म्हूण सांगता आनी मागीर व्हरना. (दोळे चोळीत हुडकेता). ऊं! ऊं! ऊं!

**राणी** : कोण अभय? हांव तुका सगलेकडेन सोदतालीं मरे. बाब तो, किदें जालें रे तुजें?

**अभय** : ऊं! ऊं! ऊं! कांय ना. हांव उलय ना तुमचेकडेन.

**राणी** : म्हजेकडेन उलयना? हांवें किदें केलां रे तुजें?

अभय : ऊं! ऊं! ऊं!

राणी : आरे कित्याक रडटा तें सांग मरे! असो बटाटवडो सो कित्याक फुगला रे? कोणें किदें म्हळें रे तुका?

अभय : कोणें ना.

राणी : म्हणटकच किदें जालां तें सांग मरे!

अभय : ना सांगचों.

राणी : हांव जाणां तुका किदें जाय तें!

(ताळी वाजयता. दोन भुरगे एकामेकांलागीं चेंडू खेळत येतात).

अभय : नाका म्हाका चेंडू!

राणी : हें पळे आनीक कोण येता पळे.

(एक भुरगो धोलकें वाजयत नाचत येता).

अभय : म्हाका नाका हें वाजप.

राणी : हो पळे कोण येता तो. आतां म्हजो बाबू हांसतलो!

(एक विदुशक येता. वांकडीं तिकडीं तोंडां करता, नाचता. राजपुत्राक हांसोवपाचो यत्न करता).

राणी : किदें, अजून तू हांसना? हो पळे कोण येता.

(मोर नाचत, नाचत येता.)

अभय : म्हाका नाका मोर.

राणी : हो पळे कोण येता. केदो मोटो पळे!

(हती धोलत, धोलत येता).

अभय : म्हाका नाका तो हती.

राणी : म्हणटकच म्हज्या बाबूक किदें जाय?

अभय : म्हाका जाय घोडों.

राणी : घोडो! तुजेकडेन आसा मरे घोडो.

अभय : हय, आसा. पूण म्हाका तुमी घोड्यार खंय बसूंक दितात?

राणी : बसूंक दिनात! काल तूं बाबावांगडा वचूंक नासलो घोड्यार बसून?

अभय : म्हणटकच आज कित्याक ना तर?

राणी : आरे, आज तुज्या बाबाक काम आसा न्ही रे! तुका फाल्यां व्हरतले ते.

अभय : बाबाक फाल्यांय आसतलीं कामां. आज हांवें गेल्यार किदें जाता? म्हाका घोड्यार बसूंक येना?

राणी : येता रे म्हज्या शाण्या. पूण घोडो तुका खंय घेवन वचत जाल्यार!

अभय : म्हज़ो मोती म्हाका नाका थंय कित्याक व्हरतलो?

राणी : तशें न्हय रे बाबू! तुका घोड्यान रानांत बी व्हेल्यार आनी थंय वाग बी आसल्यार?

अभय : हांव वागाक भोव भिंयेतां! हांव घोड्याक वागाचेर घालतलों आनी वाग पळून वेतलो.

राणी : आरे, वाग घोड्याक भिंयेता म्हूण केन्ना? वागाक पळेतकच घोड्याची भिंवन सामकी गुळी जातली.

अभय : आई, तूं म्हज्या मोती घोड्याक वळखना. तो कोण्णाक भिंयेना. वागाकूच न्हय, शिंवाक लेगीत तो भिंवचोना. राखेसाक लेगीत भिंवचो ना.

राणी : खरेंच! आनी तुका चोरांनी धरल्यार?

अभय : चोरांनी धरल्यार? म्हाका चोर धरतले? हांव भोव मीठ घालतां चोरांक. म्हजेकडेन चाकू आसा तो पळेला तुवें? चाकू दाखयल्यारच पुरो. सगले चोर पपा काडटले.

राणी : आरे, पूण चोरांकडेन व्हडल्यो तरसादी आसतात मरे! धारेच्यो सामक्यो.

अभय : आनी म्हजेकडेन तरसाद ना काय किदें? ही पळेल्या? (कोनशाक तरसाद आसा ती हाडटा आनी वावुडटा) पळे कशी वावुडटां ती!

राणी : आरे वा! राव हांव बाबांक सांगतां तुज्या, तुका फाल्यां फिरूंक व्हरच म्हणून. आतां चल मातसो खेळून यो. अजय-विजय तुजी वाट पळेतात आनी हांवूय वेतां भितर. तुका आज काय बरी खीर करतां पळे. तुका शेवयां-खीर आवडटा न्हय? (वेता).

अभय : शेवयां-खीर खंय! म्हाका घोड्यार बसून फिरूंक दिनात आनी शेवयां-खीर खा खंय. म्हाका भोव जाय ती तुमची शेवयां-खीर.

(घोड्याचो फुरफुरपाचो आवाज) आं. हो मोती फुरफुरता. ताकाय राग आयला भोवंक वचूंक मेळना म्हणून. मोती! मोती! आं, अशें केल्यार कशें? घोड्यार बसून भोंवंक गेल्यार कशें जायत? बाबा गेला भायर कामाक आनी आई गेल्या भितर खीर करूंक. मोती! मोती! पळे तो कसो कान फांकारता! पळे तो कसो मान हालोवन म्हाका आपयता. दोन पांयांचेर उबो रावन कसो फुरफुरता पळे तो! (विजय येता)

**विजय** : अभय, चल मरे, आमी चल खेळुया मीठ फळण्यांनी. तुका सगले भुरगे रावतात पळे!

**अभय** : मीठ फळण्यांनी हांव ना येना. तुमीच खेळात. हांव वेतां म्हज्या घोड्यार बसून.

**विजय** : घोड्यार बसून? आरे, आईन सांगिल्लें न्ही रे तुका घोड्यार बसून वचूं नाका म्हणून?

**अभय** : घोड्यार बसूं नाका म्हणून खंय सांगलां म्हाका. रानांत वचूं नाका म्हूण सांगलां. पूण हांव रानांत खंय वेतां? हांव हांगा लागींच भोंवाडो मारून येतां.

**विजय** : पयस वचूं नाका आं!

**अभय** : शेऽ! हांव पयस खंय वेतां? (मोती फुरफुरता) येतां! येतां मोती, येतां हांव! चल या आमी फिरूंक. चल मेरे घोडे टीक, टीक, टीक.

(मात्सो काळोख. रानाचो देखाव.)

**अभय** : दोंगरावयल्यान देंवन ह्या रानांत केन्ना पावलों तेंच समजलेंना! आनी मोती कसो धांवलो म्हणून सांगूं! अशी मजा आयली, अशी मजा आयली म्हणून सांगूं! हें रान कितलें सोबीत, आवयस्स! कितले व्हडले रूख हे आनी कितलीं दाट तांचीं पानां! आनी हीं तांबडीं, निळीं फुलां! आनी हे पळे कीर! आनी तो पळे माकड! माकडा माकडा हूप, हूप! माकडाच्या नाकाक तूप! तूप! आनीक कोण रडटा कूय, कूय, करून! कोलोसो दिसता. आनी तो पळे सोंसो! राव, सोंशाक धरून हाडुया. म्हाका सोंशे खूब आवडटात. (वेता).

(पयलो चोर येता. मागीर दुसरो, मागीर तिसरो. सगल्यांच्या तोंडाक रुपडीं आसात आनी हातांत तरसादी.)

१लो चोर : राव, बोवाळ करूं नाका. हांगा पळे कोण येता!

२रो चोर : येता खरो! एक पोर मरे!

२रो चोर : पोर जालो म्हूण किदें जालें? ताज्या आंगार किदें आसा जाल्यार पळोवया.

२रो चोर : आता तर. ताज्या गळ्यांत भांगराची सरपळी आसा. बोटांत वज्राची मुदी आसा आनी हातांत भांगराचीं कांकणां!

१लो चोर : भांगराचीं कांकणां? म्हणटकच हाका सोडूंक जायना. रावात अशे कुशीक आनी तो हांगा पावतकच ताजेर घुरी घालात. (अभय येता).

अभय : खंय गेलो काय हो सोंसो! निकतो हांगा आशिल्लो मरे हांगा. राव. हो तो पळे!

(चोर ताजे भोंवतणीं एकदम गराडो घालतात. अभय तरसाद उबारता.)

१लो चोर : हा! हा! बरो मेळ्ळो सोंसो! हा! हा! उडय ती तरसाद खाला!

अभय : ना उडयना! कोण तुमी?

१लो चोर : आमी कोण काय म्हणून विचारता? उडय ती तरसाद खाला. आनी दी तीं तुजीं भांगराचीं कांकणां. काड ती मुदी! काड ती सरपळी!

अभय : ना दिवचो!

२रो चोर : चड जाणवायो मरे ह्या इल्ल्याशा पोराच्यो. आरे आमी हांगा तीग जाण आसात आनी तूं एकलोच. तुज्या ओंठावयलें दूद लेगीत सुकूंक ना मरे आनी तूं ह्या अटंग्या रानांत एकलो आयला? चल वच न्हिदूंक आवयचे कुशींत. पूण पयलीं तुजीं कांकणां उडय.

अभय : ना उडोवचों.

१लो चोर : आमकां जाप दिता? आमकां भियेना तूं?

अभय : हांव तुमकां भियेतलों? म्हजें नांव अभयकुमार!

१लो चोर : बऱ्याच्या बऱ्यान दी तीं कांकणां ना जाल्यार तुजे कुडके कुडके करतले आमी, समजलो?

अभय : म्हाका हात लायात आनी पळेयात हांव हातूच कातरतलों. हांव कोण तें नकळो तुमी! हांव राजाचो चलो. हांव राजपुत्र अभयकुमार!

१लो चोर : राजपुत्र अभयकुमार! तुजीं कांकणां तशींच आसूं दी. आरे, राजकुमाराक कोणेंच हात लावंक जायना, समजलें? हाका आमी बरे भाशेन धरून व्हरुया आनी राजाक सांगणें धाडुया, तुजो चलो तुका जितो जाय जाल्यार आमकां बारा लाख रुपया धाडून दी म्हणून.

२रो चोर : वा! वा! वा! बरी युक्ती! बारा लाख! चार लाख म्हाका, चार लाख हाका, चार लाख तुका! बारा लाख! बारा लाख! हा! हा! हा!

अभय : हांसूं नाकात. एका एकाची जिबूच तोडटलों.

३रो चोर : येदोसो पोर जावन हो बरो उडटा मरे. हाका थोडो प्रसाद दिल्यार बरो. (ताजेर तरसादेची धार नाशिल्ली वट मारता).

अभय : आई! बाबा!

१लो चोर. : आई! बाबा! खंय? ह्या अटंग्या रानांत तुका सोडोवपाक कोण येवचो ना. चल आमचे बरोबर!

अभय : ना येवचो! मोती! मोती!

२रो चोर : कोण रे हो मोती?

अभय : म्हजो घोडो.

२रो चोर : तो घोडो रे? तो आमकां भिंवूनच पळून गेलो.

अभय : मोती पळून गेलो? आनी हांव एकलो ह्या चोरांच्या हातांत! आई! बाबा!

१लो चोर : तुजी आई बसल्या राजम्हालांत आनी तुजो बाबा बसला दरबारांत. आतां कोण येवपाचो ना हांगा, समजलो?

(ताका धरतात आनी ताजी तरसाद काडून घेतात.)

अभय : म्हणटकच म्हाका कैदी करतात तर तुमी! म्हाका हेंच फावो. म्हाका बाबान सांगिल्लें, आईन सांगिल्लें, रानांत वचूं नाका म्हणून. म्हाका हेंच फावो, हेंच फावो! (रडटा).

१लो चोर : बाब म्हजो तो! रडूं नाका आतां. रडून कांयच उपेग ना! तुज्या बाबान आमकां बारा लाख दिल्यार पुरो, आमी तुका सोडटात. चल आमचे वांगडा.

अभय : ना येवचों! ना येवचों! (ताका ओडीत व्हरतात). बाबा! बाबा!

(धोलाचो आवाज आयकूंक येता)

१लो चोर : हो कसलो आवाज? धोलाचो आवाज. हे वटेन कोणूय तरी येता.

३रो चोर : आरे! कितले लोक येतात हे! राजाचे शिपायक कशे दिसतात. चलात पळात.

१लो चोर : चलात पळात. ते पावले लागीं.

अभय : बाबा! बाबा! (राजा आनी शिपायक येता).

राजा : अभय! जावं, तूं मेळ्ळो बाबा! आमी सगलें रान सोदलें. तुका कोणें बांदलो रे असो? कोणे मारलो रे असो?

अभय : चोरांनीं! तुमी येतात ते पळोवन ते पळून गेले! पूण बाबा, हांव हांगा आसां म्हूण तुमकां कशें कळ्ळें?

राजा : तुज्या मोती घोड्यान सांगलें. तो पळत घरा आयलो. ताजे फाटीर तूं ना म्हणटकच हांव समजलों. आनी तो धांवत धांवत हांगा आयलो. ताणेंच आमकां वाट दाखयली.

अभय : बाबा म्हजी चूक जाली. हांव तुमकां सांगिनासतना आयलों. म्हाका मारचो ना मूं? हांव परतून अशें केन्नाच करचोंना.

राजा : आतां शाणो जालो मरे? चल आतां घरा. तुजी आवय तुजी वाट पळेता. तिणें तुजे खातीर शेवयां खीर केल्या.

अभय : शेवयां खीर! म्हाका शेवयां खीर खूब आवडटा! आनी मोतीकय दितलों हांव शेवयां खीर. चल रे मोती, या आमी घरा. चल मेरे घोडे टीक, टीक, टीक.

५

# बिराड बदललें

निवेदक : हो एक खेळ म्हणटकच सुरवेक सवंगांची वळख करून दिवची पडलीच. ना जाल्यार खेळ सोंपतकच तुमी विचारशात हो कोण, तो कोण... आनी खेळ सोंपतकच हांव आसतलों पइड्याफाटल्यान. म्हणटकच करुया सुरवात?

हो पळे बस्त्यांव तारवटी. अमेरिकेंत, आफ्रिकेंत, इंग्लंडांत रावन, वावर करून ताणें जायते दुडू जोडून हाडल्यात. निमाणे दीस गोंयां सुशेगाद काडचे असो ताजो बेत आसा. पांच लाख दिवन ताणें हें पळे पणजे एक घर घेतलां. तोंकार. ताजेवांगडा ताजी चली आसा, साकारीन. एकलीच चली ताका. गितार बरी वाजयता आं. आयकात आं. (गिताराचे सूर).

बस्त्यांवाच्या घराक तेंकुनूच उजवेकडेन एक ल्हानशें घर आसा. घर कसलें? वखारूच ती. मुखार लाकडा कुडके, फळीं पडल्यांत. आनी दुसरे कुशीक हो मेस्त... मुखार लोखंडाच्यो कांबी, प्लेटी पडल्यात. हें घर मेस्ताचें. कोयते बरे करता तो. तुमकां जाय जाल्यार सांगात आं.

बस्त्यांव तारवटी कालूच ह्या घरांत आयला. आनीक एक गजाल सांगूंक जाय. ताका मातशें हार्टाचें, म्हळ्यार कुरासांवाचें, म्हळ्यार काळजाचें आसा आं. ताका बोवाळ मातूय सोंसना. म्हणटकच शू! शांतताय! नाटक सुरू जाता!

तारवटी : रातीं काय बरी न्हीद पडली म्हूण सांगूं! कोणाचोच बोबाव ना. न्युयॉर्कांत आनी लंडनांत येशें निदूंक मेवता? आरे आमगे गोंय तें गोंय रे! नाका तें लंडन. नाका ती बोंबोय – दीसरात – पोंक, पोंक, पेंक, पेंक, टण, टण, ढण, ढण, कीं, कीं, पीं, पीं. जीव सामको पिसो जावंक पाविल्लो, पिसो. बाय साकारीन, च्या आड पोवया. आ! बरी जाल्या आं च्या!

आतां ओ जोर्नाल किद मुणटा पोवया.

इराणांत बोंड! राजा पोवन गेलो! पोवूं बावडो. आमकां किदें तेजें! बोंबोय बारा मावयांचें गोर कोसळून तेरा मुनीस मेले. ये मावयांचीं गारां कित्याक बांदतात कोण जाणा! बोगोटांत विमान जोवून शेंबोर मुनीस जोवून काबार जाले.. चुरचुरे! चुरचुरे! धाकोड्ड्या बस उमथून दा जाण मेले, वीस जाण ओश्पितालांत गेले. आंव मुण्टां बोसी सारक्यो तोरी चोलोयात. मद्रासांत गाडयेचो ओपगात, तेहेरानांत बॉम, रायबोंदरांत पोनेळ उमथून सात बायलो बुडून मेल्यो. तिये बायलबुरग्यांचो खून, बोंबोय मारामारी, दिल्लींत फारपेट – आवोयस्स! अँ चोय मुजें काळीज कोलकोलूंक लागलें. नाका ओ जोर्नाल. पाड पोडूं या जोर्नालाचें. केसो होबरी दिताय या जोर्नालांत!

साकारीन, बाय साकारीन, हें पोय मुजें काळीज कशें धोडधोड कोत्ता. तुका आयकूंक येना? आतां जालें बोरें! आतां तुजी गितार हाड पोवया. अिंगा बोस आनी वाजोय. तूं वाजोय, आंव आयकोतां. आंव आयकोतां तूं वाजोय. (गितारीचे सूर...)

बस्त्यांव : बाय साकरीन! तुज्या गितारी सुरांच्या ल्हारांर आंव उफेतां, वोयर वोयर वेतां. त्या माडाचे तेंगशेर, मोवबांतल्या त्या कुपांर. आतां मुजें कुरासांव बोरें जालें. आनी आंगा गोंयांत आंव सामको बोरो जातोलों. आगा, आमगे गोंय तें गोंय! आंगा केसो बोबाट ना. सोगलें पोय कशें तोंड! हे पोय माड केशे दोलतात, ईं पोय सुकर्णीं केशीं उडटात. आमगे गोंयूच बोरें! नाका तें लोंडोन, नाका ती बोंबोय. थंयच्या बोबाटाक लागुनूच माका हें हार्टाचें जालें. बाय साकारीन, तुजी गितार आयकोली आनी आंव बोरो जालों. पोरतून वाजोय, बाय पोरतून वाजोय तुजी गितार.

(मातशा वेळान घण घण असो आवाज.)

बस्त्यांव : साकारीन, साकारीन, थांबय तुजें गितार. हो पोय हांगा कोण घण, घण करता. आवयस्स, कान फुटून गेले. नाका रे बाबा! हें पोय काळीज परतून धडधडूंक लागलें. तुका आयकूंक येना? म्हणटोकच हांगाय बोबाट तोर. गोंयांतूय बोबाट! कोण कोत्ता

बोबाट तें तरी पोवया. आगा कोण गा थूंय! शेजाऱ्या, शेजाऱ्या कोण आसा रे थूंय? थांबय रे, थांबय रे! आरे थांबय तुजें बडोवप, शेजाऱ्या, शेजाऱ्या, तुका आयकूंक येना रे?

**मेस्त** : कोण गा? किदें जालें गा? कित्याक गा करंदाय तुजी?

**बस्त्यांव** : आरे, तुजी करंदाय थांबय आर्दी. घण! घण! घण! आरे कान फुटून गेले मरे! मेजाचे कुडके कुडके जाले आनी किदें जालें काय मुणटा? केसो रे देंवचार हो? चोय रे मुजें काळीज चोय केशें धब, धब कोत्ता.

**मेस्त** : तुजें काळीज धब, धब करता ताका हांव किदें करूं गा? जाय जाल्यार सायलन्सर घाल.

**बस्त्यांव** : फकाणां नाका आं! हांव कोण तो नकळो तूं. तुजो आवाज बंद कर. तुंजें ढो, ढो पुरो जालें आतां सकाळफुडें –

**मेस्त** : बरो मगा आयला हो! आगा ढो, ढो केलेबगर, लोखंड धोडायलेबगर ताजे कोयते कशे जातले गा? आनी म्हजें पोट कशें भरतलें? म्हज्या बायल-भुरग्यांचें पोट कशें भरतलें? आतां सगलें म्हारग जालां जाणा मगा? आनी ह्या घराचें भाडें कशें भरतलों?

**बस्त्यांव** : घराचें भाडें? कितू आसा रे ह्या घराचें भाडें? सांग रे!

**मेस्त** : हांव म्हयन्याक पन्नास रुपया दितां.

**बस्त्यांव** : हें पळे मेस्ता. सुशेगाद रावतलों मूण हांव गोंयां आयलां. माका बोबाट, आवाज मात्तूय सोंसना. सोजमोलें? कुशीकशें पळोवन हांवें हें घर घेतलां मुणटोच हें चोय. तुजें हें घर सोडून वच बूं. हांव दितां भाडें!

**मेस्त** : ह्या घराचें भाडें तूं दिता म्हूण जालें? हांव खंय रावूं?

**बस्त्यांव** : आरे चोय रे खंयतरी दुसरेकडेन.

**मेस्त** : दुसरेकडेन खंय चोयतलों बाब?

**बस्त्यांव** : आरे समजलो ना तूं! हें घर सोडून वचपाक कितले घेतलो तूं?

**मेस्त** : आगा, म्हजो धंदो सोडून वचूं?

**बस्त्यांव** : आगा मेस्ता, तूं सोजमोलो ना गा. तूं दुसरेकडेन वचून कर तुजो धंदो. आंव तुका विचात्तां तुका कितू दुडू जाय? सांग रे तूं! आंव दुडू दितां ताका लागून तुजो बिजिनेस वाडटलोय.

**मेस्त** : आगे आयकलें मगे? हें घर सोडून गेल्यार खंय आमकां दुडू मेळटले. आमच्या सुलूच्या लग्नाक उपेग पडटले. म्हणटकच सोडुया मगा हें घर? बरें तर. हें पळे भाटकारा. म्हाका वीस हजार कॅश दिल्यार हांव सोडटां हें घर.

**बस्त्यांव** : पावलें. बाय साकारीन, चॅक बूक हाड गो. हे घे वीस हजार. जा सातिश्फेत आनी आतां घर सोडून वच.

**मेस्त** : केन्ना सोडूं?

**बस्त्यांव** : केन्ना म्हूण विचारता? आजूच सोड. आत्तांच सोड.

**मेस्त** : बसला थंय वीस हजार मेळ्ळे. कोणाक नागोवंक वेतलों?

**बस्त्यांव** : आतां मेळ्ळो सुशेग बाबा. गेली पिडा खंयचेकडली! बाय साकारीन, वाजय तुजें गितार.

(गितारीचो आवाज. मातशा वेळान खर, खर असो आवाज.)

**बस्त्यांव** : हें आनी किदें रे बाबा! थंय घण, घण काबार जालें तर हांगा हें 'खर, खर' सुरू. कोण रे बाबा हो दुसरो देंवचार? बाय साकारीन, तुजी गितार थांबय बाय. कावळ्यांची काव काव सुरू जातोच कोगळान तोंड धांपूंक जाय. पोय कशें खर, खर करून कातोरता. राव हांव चोयतां कोण तें. शेजाऱ्या, ए शेजाऱ्या सायबा भोगोस! ए शेजाऱ्या, शेजाऱ्या! हो भेड्डो काय किदें? म्हजो भेजो सामको चिरून गेलो. साकारीन, साकारीन पोय गो मुजें काळीज कशें धडधडटा तें! हात पळे कसो थरथरता म्हजो. आगो थोडें उदीक दी गो पिवंक – आरे देंवचारा, आरे थांबय रे तुजी खरखर.

**थवय** : कोण गा थंय ओरड करता? आमकां काम सुद्धां करूंक दिना नाय. मी काय बेकार थवय दिसलों काय तुका!

**बस्त्यांव** : बेकार जाल्यार बरो आसलो. आगा शेजाऱ्या, तूं तुजी खरवत चलयता मगा, खर खर खर करून म्हजी तकली गेली कामावयली. म्हजें बाय साकारीन काय बरें गितार वाजयतालें. तेंय बंद जालें. तुजी खर खर मातशी थाराय.

**थवय** : काय म्हटलां! मी माझां काम बंद करूं! कां म्हणून? तुजां तोंड बंद कर तूं. तुजो बापूस काय म्हाका पोसता! जिबेक काय हाड आसा काय ना तुज्या?

बस्त्यांव : तशें न्हय गा! आगा म्हाका कुरासांवाचें आसा गा! दोतोरान सांगलां खर खर, घड घड मातूय बरी नूय.

थवय : काय तर बोलला! कुरासांव काय तुकाच आसा? आमकां कुरासांवबी कांय ना? आमकां हे खरखरीन कांय जायना, आनी तुजांच कुरासांव तां काय धडधडटा? संवय जाली की जातलां बरां.

बस्त्यांव : आगा, शेजाऱ्याक तरास जाल्यार तुवें अशी खरखर करूंक जायना. सोझमोलें?

थवय : खडेच्यान इलासरे तूं? आरे हें गोंय आसा गोंय. कळ्ळें मां? हडे लोकशाय चलता, लोकशाय. प्रत्येकान आपल्याक व्होयां तां करचां. कोण विचारचो ना! समजलां मां! तुज्यान म्हाका विचारूंक जाता मी कां खरखर करतां तां! आवाज नसलो तर कामां जातात? लग्नां जातात? काजारां जातात? आतां गप्पसो?

बस्त्यांव : तुजेलागीं किदें उलयतलों?

थवय : ह्यां तुजां बरां झालां. मी काय तुजेलागीं बोलायला आलों? तूंच म्हजेलागीं उलयता! आरे, मी असले छप्पन्न देखल्या. समजलां मां? आत्तां गप्पसो! ए म्हाड्डू, चालव रे तुजी खरवत. (खरवतीचो आवाज)

बस्त्यांव : म्हजे तकले कुडके जाले मुगा शेजाऱ्या. तुका मातूय दोया ना गा?

थवय : मी काय करूं ताका? आमचो हो धंदो! खरवत नाय तर थवयपण खडेचां? आनी खरखर नसतांना काय खरवत चलतासा?

बस्त्यांव : तूं मोण्टाय तें फाल्स नोंय शेजाऱ्या. पूण शेजाऱ्या, मुजेर एक फावोर कोश्शी?

थवय : तुजेर आनी कसलो फावोर? तूं इलो तो म्हाका तापोवंक लागलो.

बस्त्यांव : शेजाऱ्या, असो रागार जावं नाका.

थवय : आतां इलो जाग्यार! तूं बरे तरेन उलयल्यार मी बरे तरेन जाप दितां. समजलां मां?

बस्त्यांव : मुण्टोच हांव तुका बरे तरेन सांगतां. तूं हें घर सोडून वोस.

थवय : काय म्हटलां? मी हें घर सोडून जाऊं? मियां काय म्हणून सोडचें? तूंच सोडून जा तुका व्हयां तर. म्हाका कांय तुजो त्रास जायना. तुका म्हाजो त्रास जातासा तर तूंच सोडून जा कसां तुजां घर.

बस्त्यांव : आगा हें घर हांवें विकतें घेतलां न्हय गा. हें मुजेंच घर हांव
सोडून वचूं? तूंच सांग. चोय, हें तुजें घर भाड्याचें. तुज्यान हें घर सोडून वचूं येता.

थवय : भाड्याचां जालां म्हणून कां सोडून वतलंय मी घर?

बस्त्यांव : हें चोंय शेजाऱ्या. माका सांग पोवया. तुवें हें घर सोडल्यार तुका आंव कितू दुडू दिवं?

थवय : तुवें दुडू दिले म्हणून मियां घर सोडटां? काय दिसलां तुका?

बस्त्यांव : चोय मेस्ता, धा हजार रुपोय दितां.

थवय : धा हजार खडे पावतात गा? वीस रुपया किलो साकर जाल्या जाणा मगा?

बस्त्यांव : बारा हजार घे.

थवय : तुजे बारा हजार कोणाक व्हये?

बस्त्यांव : पंदरा हजार!

थवय : पंदरा हजार म्हण्टयसा? आतां थोडो विचार करुंचो पडलो.

बस्त्यांव : मुण्टोच जालें मगा?

थवय : तुका नांय कसां म्हणूं? मगे घर सोडून केन्ना वचूं?

बस्त्यांव : आजूच सोड. आत्तांच सोड.

थवय : मगे पयशे कधी देणार?

बस्त्यांव : आरे पयशे आत्तांच घे. बाय साकारीन चॅक बूक हाड गो.

थवय : चॅक दितासा! बॅंकेंत पयशे आसात मां?

बस्त्यांव : आरे पंदरा हजार न्हय. पांच लाख आसात सोजमोलो?

थवय : पांच लाख?

बस्त्यांव : हे घे पंदरा हजार. मार फोल्ग.

थवय : तुजां देव बरां करूं. मी घरीं जाऊन एक ल्हानसां घरूच बांदतां.

निवेदक : आनी अशे तरेन बस्त्यांव तारवटी त्या मेस्ताक आनी थवयाक

आपलीं घरां सोडूंक लायता. खरें म्हळ्यार नाटक हांगाच सोंपपाचें. पुण खरें नाटक केन्ना सोंपता? तर मुखार किदें जाता तें पळोवया. हें पळे मेस्त आनी थवय किदें फुतफुततात तें.

मेस्त : कोण थवयमाम? आरे तुका किदें सांगूंक जाय.

थवय : म्हाकाय तुकां कांय सांगुचां आसा. त्या बस्त्यांव तारवट्यान म्हाका पंदरा हजार दिले मां. असो कसो रे आवटो तो! म्हाका लॉटरीच फुटली. पंदरा हजार. हा! हा! बसानूच पंदरा हजार.

मेस्त : आरे म्हाकाय ताणें वीस हजार दिले मगा. वीस हजार! कोणाक नागोवंक वेतलो?

थवय : पंदरा हजार मिळाले खरे. पण आतां जावुंचा खंय! दुसरी जागा रोखडीच मेळटा? तारवटी सांगता आजूच जावंक व्हयां. आत्तां जावंक व्हयां.

मेस्त : थवयमाम, म्हाका एक युक्त सुचल्या. करून पळोवया आमी. जमल्यार जमली.

थवय : कसली युक्त?

मेस्त : आरे, युक्त सामकी सादी. तारवट्यान आमकां बिराड बदलूंक सांगलां मरे. आमी बिराड बदलुया.

थवय : काय तरी बोलता! ह्यां सोपां कसां? बिराड बदलणार तर दुसरां घर नाका?

मेस्त : आगा अजून तुका समजना गा! हें पळे हांगा कान कर.

थवय : म्हाजो कान सो व्हया तुका?

मेस्त : आरे आयक रे. आनीक कोणूय आयकत मरे.

थवय : काय तां सांग बघुया बेगीन.

मेस्त : आगा हें पळे. आमकां बिराड बदल म्हणून सांगलां न्ही. म्हणटकच तूं म्हज्या घरांत यो आनी हांव तुज्या घरांत वेतां.

थवय : दी ताळी.

मेस्त : घे ताळी.

निवेदक : आनी दुसरो दीस येता. हो पळे तारवटी जोर्नाल वाचना च्या पिता आनी –

बस्त्यांव : बाय साकारीन, आतां तुजें गितार वाजोय पोवया....

(गितारीचे सूर. मातशा वेळान खर खर, मागीर घड घड असो आवाज येता).

बस्त्यांव : बाय साकारीन, थांबय तुजी गितार! Stop! Stop! परतून हे देंवचार लागले खर-खर, घड-घड करूंक. एशें जावचें केशें काय मुण्टां.... जालें, जालें पोत्तून म्हजें काळीज धडधडूंक लागलें.... पोत्तून म्हाका हूम आयली. साकारीन, साकारीन म्हाका उदीक हाडून दी. आनी तें पिल्ल दी गो बेगीन! सायबा भोगोस. ए शेजाऱ्या, शेजाऱ्या!

थवय : कितें गा भाटकारा? किदें जालें गा!

बस्त्यांव : अर्र तूं! किदें जालें काय मुण्टा? आरे तुका लोज ना रे? आरे तुका उतोर ना रे? -आरे तुका हांवें पंदरा आजार दिलोले मुरे? मुण्टोच तूं इंगा कोहो रे? आं कोहो रे आनी हें कोत्ता किदें रे तूं? खोर, खोर, खोर. आरे तूं मुजें काळीज कातोत्ता मुरे? किदें कोत्ता रे तूं?

थवय : मी सायबा. मी खरवत चलयतां माझी. मी लांकूड कापतां.

बस्त्यांव : आरे तुका हें घर सोडून वोस मूण सांगों नासलोलें हांवें? पंदरा आजार रुपोय घेवन येश कोत्ताय रे – आरे तुका देव भोगशिचोना. केदनाच ना.

थवय : मी काय केलां. उगीच कां म्हणून तापार जाता तुमी? मी माझां घर बदललां. तो समोर मेस्त आसा थडे मी आसलेलों, आतां मी हडे इलों!

बस्त्यांव : तुका बरे लडे घालूंक जाय. आनी तो फुंय गेलो रे?

थवय : तो मेस्त मां! तो मेस्त गेलो थडे – मी आसलेलो थडे. मी बिराड बदललां आनी त्याने पण बदललां. आमचां उतर पाळलां आमी.

बस्त्यांव : चोर फुंयचे! नागोवणे! मालक्रियाद, उतर नासलेले होपोनहायरे. आतां पोत्तून खर खर, पोत्तून घड घड... साकारीन, साकारीन! मुजें काळीज! मुजें काळीज पोय केशें पिटपिट्ट धोडधोडटा. साकारीन! साकारीन! चल घे तुजें गितार, आमीच या हें घर सोडून. चोर, नागोवणे, फटींग, खूनमारे – आवोयस्स! साकारीन, साकारीन! मुजें काळीज! मुजें काळीज!

(वेता.)

६

# आयली दिवाळी आयली

(रस्तो. विमल उजवेकडल्यान ल्हव, ल्हव चलत वेता. दोन हातांनी दोन चिरयो आसात, एके खांकेंत तेलाची बोत्ल, दुसरे खांकेंत एक पोटली आसा. दावेकडल्यान बस्त्यांव कांतार म्हणत येता).

**बस्त्यांव** : रायचो रुजार हांव
दिसूंक बरो
रायचो रुजार हांव
गोंयकार खरो
गर्र, गर्र करून हांव
स्कुटर चलयतां
वाड्यावयलीं सगलीं पोरां
भिंयेवन धांवोतात
रायचो रुजार हांव
दिसूंक बरो
रायचो रुजार हांव
गोंयकार खरो.

(कांतार म्हणटां म्हणटां तो विमलाक आपटता. विमलाच्या हातांतल्यो पोटल्यो सकयल पडटात. बोतलेंतलें तेल ओत्ता.)

**विमल** : (रडत रडत) दोळे फुटले काय किदें रे? म्हज्यो सगल्यो पोटल्यो उडयल्यो. तेल ओतयलें. आतां म्हाका आई मारतली, बाबा पेट्टलो.

**बस्त्यांव** : विमल रडूं नाका गो. हांव तुजें सामान भरून दितां. (भोंवतणी पडिल्ले कांदे बटाटे हाडून दिता.)

**विमल** : चल सर हांगाचो. म्हाका उडयता आनी मागीर वयल्यान सामान भरून दिता?

बस्त्यांव : हांवें तुका मुद्दाम उडयलां?

विमल : म्हज्या दोळ्यांमुखार नाका तूं. बरें जालें! ही पळे आई आयली.

(लक्षीमबाय येता. बोस्त्यांव धांवत वेता.)

लक्षीमबाय : कोण गो विमल? कित्याक रडटा गो?

विमल : बस्त्यांव आयलो आनी म्हाका धुकलून उडयलें. बटाटे सकयल पडले, कांदे खंयचे खंय पडले.

लक्ष्मीमबाय : बस्त्यांवान उडयलें तुका? राव हांव विचारतां. सेलीनबायक सांगून बरोच पेट घालूंक लायतां. चल तूं घरा.

(विमल पोटल्यो उबारून घरा वेता. सेलीनबाय येता. तिज्या हातांत एक पोती आसा.)

सेलीनबाय : खंय गेल्ली गे लक्षीमबाय?

लक्षीमबाय : खंय ना.

सेलीनबाय : हांव निस्त्याक गेल्लीं. पूण बाजारांत कांयच ना. आसा ताका पेटला उजो. शेंवट्याचे एके गांथनीक पांच रुपय. कोण खातलो गे बाये! हाडलीं हीं सुंगटां आठ आण्यांचीं. वांट्याक मेजून वीस आयलीं. भुरग्यांक निस्त्याबगर उंडी वचना. आमगेलें तिया पळे कशें बारीक जालां तें. साप्प काडी. आनी तुगेलें विमल म्हणून किदें? दोगांय सारकींच. कोण खाता जेवता म्हणटलो ह्या भुरग्यांक?

लक्षीम : म्हज्या भुरग्यांचें तुका किदें पडलां? तुज्या भुरग्यांक पळे तूं.

सेलीन : ओगी म्हळें गे. तुजेंय विमल बारीक दिसलें म्हणून म्हळें.

लक्षीम : आनी तुजो बस्त्यांव बरो आसा मूं!

सेलीन : बस्त्यांव देवादयेन आंगान आसा बरो.

लक्षीम : चड तुतनायक जाला. ताका इतली मस्ती बरी न्हय.

सेलीन : म्हजो बस्त्यांव कोणाचेच वाटेक वचचो ना.

लक्षीम : कोणाचेच वाटेक वचचो ना खंय! कोणाक खरें दिसत?

सेलीन : खरेंच बस्त्यांव कोणाक हात लावचो ना.

आजो : किदें चललां गो? सकाळफुडें कसलो बोवाळ गे? बस्त्यांवान किदें केलें?

लक्षीम : विचार ताकाच!

**आजो** : आब्बा ! आमगेलो बस्त्यांव कोणाचे वाटेक वचचो ना. केन्नाच वच्चो ना.

**लक्षीम** : हांव ओगी रावतली म्हणून केल्लें. पूण आतां रावूं नजो म्हज्यान. आयकात तर. तुमच्या बस्त्यांवान म्हज्या विमलाक भूंय उडयलें. ताज्यो पोटल्यो सकला उडयल्यो. ताजीं धोंपरां फुटलीं. कोणाचे वाटेक वचचो ना खंय बस्त्यांव.

**आजो** : केन्नाच वचचो ना.

**सेलीन** : केन्नाच वचचो ना.

**लक्षीम** : तुमी फटकुरीं पयलीं.

**आजो** : हांव फटकुरो ?

**आजी** : सूनबाय, किदें जालें गे ?

**लक्षीम** : विमलाक मारलें मगे त्या बस्त्यांवान. तो तसलोच पाडो पोर, हांव सदांच सांगतां त्या विमलाक ताजे वांगडा खेळूंक वचूं नाका म्हणून.

**आजो** : आनी हांवूय त्या बस्त्यांवाक सांगतां सदां तांचेवांगडा खेळूंक वचूं नाका म्हणून.

**सेलीन** : हय, म्हजो बस्त्यांव वायट, पाडो, नश्टो, नावाडगो. बस्त्यांव, हांगा यो रे असो. तांकां जाय तुका मारिल्लो. घे खा (मारता). खा. वतलो त्या विमलाचे वाटेक ?

**बस्त्यांव** : नाका गे मांय ! नाका गे मांय. हांवें ताका उडोवंक ना. विमलाक हांव आपटलों आनी तें पडलें.

**लक्षीम** : विंमल हांगा यो गो अशें. तुका मारचें म्हणून तीं बस्त्यांवाक मारतात. घे. खा. तीं तरी जावंदी सुखी (मारता).

**विमल** : नाका गे ! नाका गे !

**लक्षीम** : त्या बस्त्यांवा कडेन आतां मात्तूय उलोवंक जायना समजलें ? तांची कटकट नाका आमकां.

**बस्त्यांव** : (रडत, रडत) आमचीं फुलां मात काडूंक यो.

**विमल** : (रडत, रडत) आमचे बांयचें उदक मात व्हरूंक यो !

**पेद्रू** : तुमची गाय मात आमच्या शेतांत येवं दी.

**विमल** : तुमचो दुकर मात आमच्या पोरसांत दिसूं दी.

**बस्त्यांव** : तुमचो सुणो मात आमगेर येवं दी.

**विमल** : तुमच्या बुकल्यान मात आमचे रांदचीकुडींत पांय दिवं दी.

सेलीन : चल रे बस्त्यांव, तांच्या तोंडाक कोण लागतलो?

लक्षीम : चल गो विमल, अळशिकेंत बाये फातर उडोवं नाका.

आर्मांदबाब : तुमी झगडटात झगडूं म्हणून ओगो राविल्लों. पूण आतां तुजें चड जालें मगे लक्षीमबाय. म्हजे बायलेक अळशीक म्हणटा?

शाणू : सिन्योर कोश्ता, हांवूय सगलें आयकतां गा, म्हाकाय कान आसात. तुजे बायलेक आदीं तोंड धांप म्हणून सांग.

आर्मांद : अर्र तूं! म्हाका जाणवायो शिकयता? तुजे बायलेक सांग सांबाळून उलय म्हणून! सुबेज!

शाणू : तुजें तोंड सांबाळ आं. म्हाका वळखना तूं! हांव बऱ्याक बरो आनी वायटाक वायट.

आर्मांद : हांव बरो वळखतां तुका. साकर ब्लॅकान विकता तूंच न्ही.

शाणू : तुजे भयणीक नागोवन तिजें भाट घेतिल्लें तो तूंच मरे?

आर्मांद : म्हजें भाट वयर काडूं नाका.

शाणू : म्हजी साकर वयर काडूं नाका.

आर्मांद : सांबाळून उलय.

शाणू : उतरां सारकीं मेज.

आर्मांद : उतरां मेजपाक हांव पसरकार न्हय.

शाणू : आनी हांव पदेर न्ही समजलो? तुजे उंडे सारके भाज तूं. दुसऱ्यांच्या फोर्नांत हात घालूं नाका.

आर्मांद : बरो आसा मरे!

शाणू : तूं किदें उणो ना.

आर्मांद : म्हाका राग आयल्यार हांव बरो न्ही. इश्पेर्तु.

शाणू : म्हजें कोल्ल फिरल्यार हांव कोणाक आयकना. आबुझाद.

आर्मांद : किदें म्हळें तुवें?

शाणू : आनी तुवें किदें म्हळें?

लक्षीम : आतां पुरो जालें. चलात पळोवया घरा.

शाणू : राव गे, सोड गे म्हाका.

(ती ताका धुकलीत घरा व्हरता.)

सेलीन : आतां पुरो जालें. चलात पळोवया घरा.

(ती घोवाक धुकलीत घरा व्हरता. फकत भुरगीं उरतात. एकामेकांक जिबली दाखोवन ल्हव भितर वेतात. कांय वेळान आर्मांद आनी शाणूबाब येतात.

एकामेकांक पळेनासतना वेतात. लक्षीमबाय आनी सेलीनबाय येतात. एकमेकांक पळेनासतना वेतात. विमल येता. नळकुटी उडोवन खेळटा. बस्त्यांव कुशीक रावन पळेता. फुतफुतता.)

**बस्त्यांव** : खेळ एकलेंच. हांव येवचोंना खेळूंक. तुका लागून म्हाका पेट पडलो.

**विमल** : बरो उलोवंक येता म्हजेकडेन. हांव एकलेंच खेळटलें. म्हाका एकलेंच खेळूंक आवडटा. म्हाका आनीक कोण नाका बरोबर. तूं जाल्यार नाकाच नाका. नाककात्रो खंयचो.

**बस्त्यांव** : तूंच नाककात्रें खंयचें.

(विमल एकलेंच खेळटा.)

**बस्त्यांव** : वळकुटी भायर पडली मगो आनी तरीय खेळटा. रडी खेळटा.

**विमल** : तुका कितें तें? म्हाका जाय तशें खेळटलें.

**बस्त्यांव** : खेळ बावडें.

**विमल** : ना खेळचें. एकलें खेळून म्हाका वाज आयलो. तूं खेळटलो जाल्यार खेळ. पूण हांव मात तुजेलागीं उलोवचें ना.

**बस्त्यांव** : म्हाका तरी तुजेलागीं उलोवंक खंय जाय?

(बस्त्यांव खेळूंक लागता.)

**विमल** : चुकलो.

**बस्त्यांव** : ना चुकूंक.

**विमल** : रडी खेळटा.

**बस्त्यांव** : तूंच रडी खेळटा.

(सेलीनबाय येता. बस्त्यांवाच्या कानाक धरून ताका घरा व्हरता.)

**सेलीन** : नश्टो पोर. सांगलें ताजेवांगडा खेळूं नाका म्हणून.

(लक्षीमबाय येता. विमलाच्या कानांक धरून ताका भितर व्हरता.)

**लक्षीम** : नश्टें पोर. कितलेदां सांगलें ताजेवांगडा खेळूं नाका म्हणून.

(राघू एक खेळपाचो घोडो घेवन येता. लीना एक बावली घेवन येता.)

**राघू** : म्हाका बाबान घोडो हाडला. हांव कोणाक दिवचों ना.

**लीना** : म्हाका पायन बावली हाडल्या. हांव कोणाक दाखोवची ना. काय बरे दोळे मोडटा. क्यांव, क्यांव करता.

**राघू** : म्हजो घोडो कोर्द दिल्यार कसो धांवता जाणा? मोटारीक फार्टी घालता.

**लीना** : म्हाका नाका तुजो घोडो.

**राघू** : म्हाका नाका तुजी बावली.

**राघू** : हांव भोव दितां म्हजो घोडो.

**लीना** : हांव भोव दितां म्हजी बावली.

**राघू** : नाका दिवं.

**लीना** : नाका दिवं.

(रघूची आजी येता.)

**आजी** : चल भितर. ताजेकडेन उलोवंक जायना.

(लीनाचो आजो येता).

**आजो** : चल भितर. ताका जाप दिवंक जायना.

(आर्मांद आनी शाणूबाब परते येतात. एकमेकांक पळेनात. सगलीं भितर वेतात. एक भिकारी पद म्हणत येता.)

**भिकारी** : बेजार जाले शेजारी
जाले बावडे बेजार
असलो नाका शेजार म्हणटात
असलो नाका शेजार
एकल्यागेर चोलता लगीन
दुसऱ्यागेर काजार
पें पें पें, ढूम, ढूम, ढूम
सगले जाले बेजार.

(भितल्ल्यान बोवाळ. राघू पडलो. राघू पडलो. धांवात रे. येयात रे. बस्त्यांव राघूक घेवन येता).

**लक्षीमबाय** : किदें जालें रे बस्त्यांव?

**बस्त्यांव** : राघू आंब्यार चडलो आनी ताका देंवंक येना जालें. ताणें

तशीच उडकी मारली. हांवें ताका वयलेवयर झेललो. पूण मागीर आमी दोगूय भूंय पडले. म्हाका मातशें झरकटलां आनी राघूचो पांय मातसो तिरपलो.

**लक्षीमबाय** : तरी बरें तूं आसलो म्हणून. ना जाल्यार राघूचो पांयूच मोडपाचो. राघू, बस्त्यांवाक देव बरें करूं म्हण!

**राघू** : देव बरें करूं बस्त्यांव!

**विमल** : बस्त्यांव, फाल्यां आमगेर दिवाळी. फाल्यां आमगेर फोव खावंक यो आं. लीना, तूंय यो.

### आयली दिवाळी आयली

आयली दिवाळी आयली
सोंपली काळखी रात
नवे जिणेच्या हुंबरार हांसता
उजवाडाची वात.
जोतीर जोती
चोंदर जोती
माणीक मोती
आयचे राती.
आज धतरेर मळबासारको
नक्षत्रांचो थाट
घरार दिवे
आकाशदिवे
निळे-धवे
सपन नवें
उजवातींच्या मंद परमळांत
फुलता रंगान सात.
मोतयां-हिरे
फुलां-तुरे
उज्या-झरे
सूर्य-गिरे
काळखा-काजळी सरून दिसली
उजवाडाची वाट.